# खडतर जिणां

(ललीत लेख)

सस्नेह सप्रेम भेट

अशोक नेने

श्रीराज क्रिएशन्स

**खडतर जिणां**

(ललीत लेख)

**लेखक :**

अशोक नेने

कडतरी, सोनाळ, सत्तरी-गोंय

मोबाय : 9423811778 / 0832-2358136



**पयली उजवाडावणी :**

मार्च 2017

**उजवाडावपी :**

श्रीराज क्रिएशन्स,

कडतरी, सोनाळ,

सत्तरी, गोंय - 403 506

मोबाईल : 7588443441

**अक्षर जुळोवणी :**

रिया ग्राफिक्स, ओल्ड गोवा

**मुखचित्र :** अनंत उर्फ कलानंद श्री. बांबोळकर

**रेखाचित्रां :** सौ. दिव्या जयेश वेर्णेकर

**छापपी :**

इंप्रेशन्स,

गोंधळी गल्ली, बेळगाव

**मोल :- ₹ 150/-**

म्हाकां घडोवपी, ह्या वाठाराक घडोवपी, राखपी आनी संवसारांत तकली वयर काडपाची तांक दिवपी 'कडतरी वाठारांतले जाण्टे' ज्यांच्यानी कबाड कश्ट करून, हाडांचीं ताडां करून हो वाठार जगयलो, फुलयलो आनी घडयलो त्या जाणट्यांक हांव हें पुस्तक ओपतां.

**- अशोक**

# मनोगत

म्हाजें शिकोन पुराय जाल्या उपरांत हांवेन पेन हातीन घेतलां तें फक्त हिशोब बरोवपाक. जशें की पेनाचो उपेग हो फकत हिशोब बरोवपाकूच आसता. पेनाचो उपेग लिखाण करपाक जाता. हें केन्नाच तकलेंत येयलें ना.

जेन्ना म्हजो संबंद ''ज्ञानसागर परिवारा''कडेन येयलो, तेन्ना म्हज्या लक्षांत येयलें की पेनाचो उपेग साहित्या खातीर जावं येता. ज्ञानसागर शाळेच्या विशेश पुरवणे खातीर मनोगत आनी कवीता बरोवची पडली तेन्ना ल्हान भुरग्यांखातीर कविता, नाटकुलीं बरोवपाची संद मेळपाक लागली. थंयच बरोवपाची आवड निर्माण जाली. तेन्नाच्यान लिखाणाची सवय लागली.

म्हजी वयवाट ज्ञानसागर परिवार, डॉ. प्रकाश पर्येंकार आनी साहित्य मंथन हेंच्या कडेन येवंक लागली. प्रकाश सर म्हाका सांगताले, ''तूं बरय. कितेंय बरय. पूण बरय.'' तीं उतरां आयकून म्हज्या फुड्यांत खुपशे प्रस्न उबे रावताले. कितें बरोवपाचें? कशें बरोवपाचें? विशय कसले आसचे? सगल्यांत व्हड प्रश्न आसलो तो खंयचे भाशेंत बरोवपाचें? ह्या सगल्या प्रस्नांचीं उत्तरां म्हाका प्रकाश सरांकडल्यान मेळत गेलीं. सरांनी म्हाका खंयचे एके भाशेचें नांव घेवन कांयच सांगूक ना. तर तेंच्यानी म्हटलें, ''तुकां खंयची भाशा बरी कळटा, समजता ते भाशेंत बरय.'' सरांचीं तीं उतरां आयकतकच हांवेन थारायलें की, हांवेन चितपावनी बोलीत बरोवचें. जी बोली हांव जल्मा पासून आयकतां आनी उलयतां. आतां उल्हो एकूच प्रश्न.

विशय कशे थारावपाचे? हेचेंय उत्तर सरांनीच म्हाका दिलें. ''तुज्या भवारी तुजे विशय आसात. ते तूं भरोवपाचे.'' आनी फुडें सांगलें, ''खंयचीय एक गजाल तुज्या लेखनाचो विशय जावं येता'' हीं सरांचीं उतरां आयकतकच म्हाजी विचार चक्रा घुंवपाक लागलीं. हांवेन, जुन्यातले जुने पोट भरपाचे विशय सोदून काडले आनी बरोवपाक सुरवात केली. जुने विशय मेळपाक

आनीक एक कारण आसा. एक दीस एक स्क्रेपवालो आमच्या दारांतसून गेलो. तेका पळोवन हांव चिंतूक लागलों. हो मनीस पोन्नी आयदना, पत्रे, लोखण घेवन पयसो मेळयता. जाल्यार हांव जुन्या आनी पोन्न्यां गजालींचेर लिखाण कित्याक करूं शकना? जितले प्रस्न म्हज्या मुखार उबे रावले तितले विशय म्हाका लिखाणाक मेळपाक लागले.

हांवेन म्हाजो पयलो लेख चितपावनी बोलीत बरयलो. म्हजो कुळागाराचेर बरयल्लो हो लेख हांवेन सरांक वाचून दाखयलो. तेन्ना सरांची मेळिल्ली शाबासकी म्हाका फुडल्या लिखाणाक भरपूर उपेगी पडली. प्रस्न म्हाज्या मुखार खूप आसले. हें लिखाण 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत प्रसिद्ध करून घेवपाचें काम सरांनीच केलें. म्हाजो दरएक लेख सुनापरान्तच्या ऑफिसांत पावपाचें काम करपी आमचें खास मनीस डॉ. अर्चना गांवकार हांच्यांनी केलें. म्हाजे लेख सुनापरान्तांत प्रसिद्ध जावंक लागले. तसतशे फोन आनी एसएमएस येवंक लागले. खास करून अनवेषा सिंगबाळ, श्री. गजानन जोग आनी खुपशा जणानी म्हाजी तोखणाय केली. सुचवण्यो येवपाक लागल्यो. तसतशी बरोवपाची हुरहुर वाडत गेली. विशय येवजपाक लागले.

जेन्ना कुळागराचेर लेख बरयलो, तेन्ना म्हाका म्हाज्या जाणट्यांची आस्ता येवजली. जुन्या काळांतली पोट भरपाची साधना, तेंचे कश्ट, हाल अपेश्टा. असलीं सगळीं चित्रां दोळ्यां मुखार गरगरुंक लागलीं. जाणट्यांक खबर आसलेलें विज्ञान, परोपकार, संस्कार, आरोग्य, शिक्षणाचें महत्व, सैमाची राखण असले विशय म्हज्या लिखाणातसून दुसऱ्या मेरेन पावपाचो यत्न केला. हांवेन पळयल्यो, अणभवलेल्यो तर कांय जाणट्यांकडल्यान आयकल्ल्यो गजाली हांवेन ह्या पुस्तकांत मांडपाचो यत्न केला.

हे सगळे लेख बरयताना येवपी दरएक अडचणीन वाट दाखोवपी म्हटल्यार श्री. श्रीधर वि. काळे. सगळे लोक तेंका 'तात्या' म्हणून वळखतात. तात्या चडानचड माहिती दिताले. आनी हांव बरयतालो. जुन्यातले जुने चित्पावनी शब्द बरोवपाक म्हाका मदत करपी धावें गांवांतले श्री. संजय केळकर, बांबरावैले श्री. मधुकर बर्वे. कै. गोपाळ वि. बर्वे हाणीन सांगिल्ल्यो जुन्यो गजाली मांडपाचो यत्न केला. तशेच डॉ. भूषण भावे हाणीय खुबशी मदत

केल्या. दर दोन म्हयन्यानी एकदां जावपी साहित्य मंथनाचो कार्यक्रम आमगेर घडोवन हाडलेलो. त्या दिसा चित्पावनी विशीं खुपशो गजाली डॉ. भूषण भावे सरांनी कार्यक्रमाचे मुखेल सोयरे ह्या नात्यान सांगल्यो. तेचो उपयोग म्हजें लिखाण सुदरवपाक जालो. तशेच कांय तांत्रीक यवजण्यो सुचवपी सौ. नमन सावंत धावस्कर हांचोय हातभार लागला.

लेखांची आनी लेखनाची मांडणी कशी आसची हेचे विशीचें मार्गदर्शन म्हाका श्री. माधवराव सटवाणी सरांकडल्यान मेळ्ळें. प्रफु रिडींगच्या कामान श्री. मनोज बर्वे हांचो हातपालो लाभला. हांवें बरयल्ल्यो प्रत्येक लेख म्हजी घरकान सौ. अश्वीनीक वाचून दाखयतक मेळलेली तोखणाय म्हाका ह्या पुस्तकामेरेन वचपाची वाट दाखयता.

जुन्या काळांतल्या लोकांचें रहाणीमान, आताचें. त्यावेळावेलें काम, गरजो आनी आतांच्यो गरजो. जुनी गावठी वखदां आनी आतांचीं वखदां. जुनी आयदनां आनी आतांचीं यंत्रां. तेन्नाचें काम, व्यायाम आनी आताचें जीम. ह्या सगळ्या गजालींचेर उजवाड घालपाचें काम हांवें केलां. हें सगळें बरयताना खंयचोच घटक दुखावचो न्हय अशेंच मनान धरून बरयलां. आयचे पिळगेक नवीन देख मेळटली हेचोय विचार केला. तेन्नाची विचार शक्त आनी आयचो बदलिल्लो समाज, आनी तेचे विचार हांची सांगड घालपाक विसरूंक ना. जुनी कामा आनी वेळ घालोवपाची साधना. जुने खेळ आनी आताचे खेळ हेचोय विचार केला. जुन्या काळांतली 'कडतरी' म्हटल्यार हो खडतर वाठार. हांगां रावून पळयल्ल्यो अडचणी आनी भोगलेले भोग वाचप्या फुड्यांत दवरचो यत्न केला. कांय प्रमाणांत शेती बागायती विशयीचे आणी हेर गैरसमज पैस करपाचें धाडस केलां.

म्हज्या वयाचीं पंचवीस वर्सां हांवें दिवचले सारख्या वाठारांत घालयलीं. उपरांत तीस पस्तीस वर्सां कडतरे घालयलीं. जल्मभुमी दिवचल तर कर्मभुमी कडतरी. ह्या खडतर वाठारात रावोन हांवेंन पळयलें, आयकलें आनी भोगलें तें तेचेंच एक प्रतीबींब म्हटल्यार *'खडतर जिणां'*.

*'खडतर जिणां'* बरवपा फाटल्यान आनीक एक कारण आसा. सोपपाक पावलेली चित्पावनी बोली जिती जावची ती सगळ्यांमेरेन पावची. फुडे

तरणाट्यानी बरोवपाक, वाचपाक आणी उलवपाक शिकची. म्हाज्या मतीन चित्पावनी बोलीतलें हें पयलें पुस्तक जावं येता. ह्या पुस्तकाच्या प्रोत्साहनान जर आनीक काय जाण बरोवपाक लागले जाल्यार तेंच ह्या पुस्तकाचें जैत आसतलें.

*'खडतर जिणां'* उबें करपाक म्हाका हात पालव दिवपी सगळ्यांक देव बरें करू म्हणटां.

**– अशोक गो. नेने**

# प्रस्तावना

कोंकणीच्या चित्पावनी नांवाचे बोलीचेर गोंयांत बरयल्ल्या पयल्याच ललित पुस्तकाक येवकार. आता मेरेन हे बोलीचेर हें एकूच पुस्तक गोंयांत रचिल्लें पळोवंक मेळटा. तें म्हणल्यार महाराष्ट्रांत आनी कर्नाटकांत हे मोडीचेर कांय प्रकाशीत पुस्तकां आसात तीं अशीं :

1. *सुलभ चित्पावनी* (चित्पावनी भाषा मार्गदर्शक) श्रीधर केशव बर्वे (मराठी), प्रकाशक : श्रीधर केशव बर्वे, महालक्ष्मी, घर नं. 235/1, सावचो वाडो, अस्नोडें, गोंय - 403 503, (फोन : 0832-2215260), मोल रु. 50/-.
2. इतिहासकार राजवाडे, इरावती कर्वे, डॉ. एन. जी. चापेकर, लिंडा कोक्स (अमेरिकी अब्यासक) ह्या लेखक - संशोधकांनी चित्पावनीचो समाजशास्त्रीय आनी इतिहासीक अभ्यास केल्लो. पूण तो स्वतंत्र पुस्तकाच्या रुपान उजवाडाक येवंक ना.

   श्री. के. जी. साठे हांणी *चित्पावनी* ह्या नांवान 1938 वर्सा चित्पावनीचें भासशास्त्रीय विश्लेशण करपी पुस्तक उजवाडायल्ले. त्याच पुस्तकांची सुदारीत आनी संवर्धीत आवृत्ती 1966 वर्सा उजवाडाक आयली.
3. डॉ. वसुधा भिडे हांणी "A descriptive study of chitpavani (a dialect of marathi) " ह्या विशयाचेर पुणे विद्यापिठांत शोधप्रबंध सादर केलो, जाचे खातीर तांका 1983 वर्सा पुणे विद्यापिठान पीएच. डी. प्रदान केली. तांच्या डॉक्टरेट थिसिसाचेर आदारिल्लें इंग्लीश पुस्तक

तांणी 2013 वर्सा उजवाडायलें. (डॉ. वसुधा भिडे, 'Nishtha', 42, Omkareshwar Society, Sahakar Nagar 1, Pune - 411 009)

चित्पावनीची वळख सामान्य मराठी वाचप्यांक जावची म्हूण 'ओळख चित्पावनीची' ही मराठी पुस्तिकाय तांणी 2013 वर्सा उजवाडायली. (यशवंत प्रकाशन, 753, सदाशिव पेठ, कुमठेकर रोड, पुणे - 411 030)

4. महाराष्ट्र राज्य साहित्य व संस्कृती मंडळ, महाराष्ट्र सरकारा वरवी डेक्कन कॉलेजीच्या जोड-पालवान 1960 उपरांत 'मराठीच्या बोलींचो अभ्यास' ह्या प्रकल्पाखाला विंगड विंगड बोलींचो अभ्यास केलो. डॉ. ए. एम. घाटगे हांच्या मार्गदर्शना खाला हो वावर जाल्लो. तातूंत जायत्यो कोंकणी बोली आशिल्ल्यो, देखीक काणकोणी, गावडी, कुडाळी... आदी. ह्या अभ्यासांत 'चित्पावनी' बोलयेचोय अभ्यास जाल्लो. कांय बोलींचो अभ्यास पुस्तक रुपांत उजवाडाक आयिल्लो. पूण 'चित्पावनी' बोलीचो प्रकल्प उजवाडाक येवंक पावलो ना. वयर उल्लेख केल्ल्यो डॉ. भिडे हांणीच 'चित्पावनी' बोलीचो अभ्यास केल्लो.

'चित्पावनी' ही 'चित्पावन' वा 'चित्तपावन' नांवान वळखतल्या कोंकणस्थ ब्राह्मणांची बोली. महाराष्ट्रांतल्या रत्नागिरी जिल्ह्यांत ह्या कोंकणस्थ ब्राह्मणांचें मूळ सांपडटा. थंयच्यान स्थलांतरणां जावन आयज गोंय आनी दक्षिण कानडा मेरेन चित्पावनी उलोवपी भाशक चोंब्या चोंब्यांनी दिश्टी पडटात. गोंयांत मुखेलपणान सत्तरी म्हालांत ही बोली वापरपी कुटुंबां व्हडा संख्येन आसात. प्रस्तूत पुस्तकाचे लेखक त्याच म्हालांतले चित्पावनी भाशक. मूळ रत्नागिरीच्यान सुमार 300-350 वर्सां आदीं हीं कोंकणस्थ कुटुंबां उदरनिर्वाहा खातीर दक्षिणे वटेन स्थलांतरीत जालीं. रत्नागिरी ते कोचीन हे पश्चिम दर्यादेगे वयल्या कोंकणी भाशेचीच एक बोली वा उपबोली अशें चित्पावनी बोलीच्या रूप आनी स्वरूपाकडेन पळयतकीच म्हणूं येता.

'चित्पावनी' हें नांव परशुराम आख्यायिके वेल्यान आयलां. परशुरामान चौदा प्रेता चितेचेर लासून पावन केलीं आनी तांकां नवें जिवीत दिलें

आनी उपरांत दर्यांतल्यान भूंय निर्माण करून वसयली. ताचे वेल्यान तांकां "चित्पावन" (चितेंतल्यान पावन जाल्लीं वा चित्तान / मनान शुद्ध केल्लीं) अशें नांव पडलें. ह्या 'चित्पावनी' ब्राह्मणांची जातविशिश्ट बोली म्हणल्यार 'चित्पावनी'.

कोंकणांत वास्तव्य करपी / रावपी ह्या अर्थान 'कोंकणस्थ' ब्राह्मण हें उतर घडलां. हेच जातीक हेर ब्राह्मण उपजातींतले लोक उपहासान वा गुणवैशिष्ट्यांक लागून 'चिपळे' (आनी देखून तांचे भाशेक 'चिपळ्यांची भास') अशेंय म्हणटात. चित्पावन समाजाच्या काटुपणाक लागून वा तांच्या किर्तनकाराच्या वेवसायाक लागून (हातांत चिपळ्यो घेतात म्हूण) 'चिपळे' म्हणटात.

संवसारांतली कोंकणस्थ ब्राह्मणांची लोकसंख्या सुमार 15 लाख आसा. चडकरून मध्यम वा उच्च-मध्यमवर्गीय, क्वचीत सधन, कृशी-वेवसाय (बागायती) करपी, श्रमीक, सुशिक्षीत असो हो समाज आयज उच्च-पदस्थ सरकारी वा खाजगी नोकऱ्यो करतना, शिक्षणा सारकें क्षेत्र आनी धर्मीक मळार किर्तनकार, प्रवचनकार आदी वेवसायांनी गुंतिल्लो दिश्टी पडटा.

गोंयांत 'कोंकणस्थ' ब्राह्मणांची लोकसंख्या सुमार 15,000 जाल्यार 'चित्पावनी' उलोवपी भाशकांची संख्या चार अक्षरी संख्येंत भरत इतलीच आसुयें.

चित्पावनी ही एक जातवाचक कुलभास/कुलबोली आसा. हे बोलयेंतल्या 'कें' (खंय = Where) आनी 'कितां' (कितें = What) ह्या दोन उतरां वेल्यान तिका 'कें-किंता' भास म्हणुनूय वळखतात. कोंकण वाठारांतली ती एक वैशिश्ट्यपुराय बोली आसा.

मराठी आनी कोंकणी हांचे मदले संक्रामक - अवस्थेंतली बोली म्हूण चित्पावनीचो विचार जावं येता. चड करून उत्तर - कोंकणी आनी गोंयची कोंकणी (मध्य - कोंकणी) हांचे मदली ती एक संक्रमण - बोली मानूं येता. तिचो उगम 'कोंकण' वाठारांत जाला. कोंकणाची संस्कृताय 'मराठी' संस्कृताये परस 'कोंकणी' (पर्यायान गोंयचे) संस्कृतायेक चड लागीं आसा. उतरावळ आनी व्याकरणीक नदरेन ही बोली मराठी परस कोंकणीक लागी आसा. देखून ही 'कोंकणी' नांवाचे एके व्यापक आनी विस्तारीत भाशेची

एक बोली वा उप-बोली आसा.

ही बोली आयज नामशेश - ना नपयत जावपाच्या मार्गार आसा. 1950 मेरेन उत्तर - कोंकणांत ही बोली वापरांत आशिल्ली. पूण ते उपरांत ह्या भाशकांनी मराठीचो पर्याय आपणायल्लो दिश्टी पडटा. गोंयांतले चित्पावनीचे भाशक लेगीत हाका आडवाद नात. आयज गोंयांत फकत पिरायेन जाणट्या लोकांकूच ही बोली उलोवंक येता.

आतां मेरेन ही बोली लेखनिविश्ट करपाचो यत्न जावंक ना. टिळक, आगरकर आदी जायते फुडारी, लेखक, विचारवंत 'चित्पावनी' भाशकच आशिल्ले. पूण तांणी हे बोलींतल्यान अभिव्यक्ती करूंक ना. गोंयांत महादेवशास्त्री जोशी, ह. मो. मराठे ह्या लेखकांनी हे बोलयेंत कांय स्फूट लिखाण केलां वा आपल्या मराठींत बरयल्ल्या साहित्यांत संवाद वा हेर कारणां खातीर हे बोलयेचो वापर केला.

श्री. अशोक नेने हे वेवसायान बागायतदार आनी वेपारी. देखून तांचो समाजांतलो वावर खूब. ते स्वता चित्पावनी भाशक. बरोवपाची आंतरीक उर्मी. डॉ. प्रकाश पर्येकार आनी सत्तरी म्हालांतल्या कांय हेर लेखकांकडेन तांचो संपर्क, संबंद आनी संवाद. तांतूतल्यान डॉ. पर्येकार हांचे प्रेरणेंतल्यान श्री. नेने हांणी चित्पावनींत कांय ललित लेख वजा निबंद बरयले. डॉ. पर्येकार हांच्याच फुडाराकान ते तेन्नाच्या 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत उजवाडाक आयले. त्याच लेखांचो हो संग्रह.

चडकरून कृशी - वेवसाया कडेन संबंदीत चडशे लेख. रसाळ शैली, वर्णनाचेर भर, विशयाकडेन संवकळ आनी आत्मियता आशिल्ल्यान लेकांतल्यान माहिती, गिन्यान आनी संदेश मेळ्ळे बगर रावना. नाचणे, पणस, काजी, सुपारी ह्या पिकांच्या मशागतीच्यो तरा, तांची पिकावळ, शेतकाम - बागायती काम - शिंपणावळ - पोरसांतली भाजी, रानमेवो, फळफळावळ ह्या सगळ्या विशीं परंपरागत कृशी गिन्यान, आपणें घेतिल्ले अणभव, गो-संस्कृताय अशें कृशी - चक्रांतले साबार विशय तांणी ह्या पुस्तकांत हाताळ्ळ्यात.

हाचे आदीं म्हादय न्हंयचेर पोशिल्ले कृशी - संस्कृतायेचेर मुखेलपणान डॉ. प्रकाश पर्येकार हांणी विस्तृतपणान बरप केल्लें. श्री. नेने हांणी

डॉ. पर्येकारांचेच वाटेर पावल दवरलां. देखून कृशीचेर पोशिल्ली एक संघर्शमय, शारिरीक कश्टांनी भरिल्ली पूण समृद्ध, समादानी आनी विविधांगी जीण तांच्या ह्या लिखाणांत दिश्टी पडटा. देखून फकत चित्पावनी बोलींत बरयल्लें पुस्तक म्हणुनच न्हय तर आशय-विशयाचे नदरेन लेगीत ह्या पुस्तकाक एक खेरीत महत्व आसा.

ह्या पुस्तकांतल्या दोन उतरावळी संदर्भात म्हाका विशेश आस्था आसा : एक, आयच्या कोंकणी भाशेंतल्यान लुप्त जाल्ली आनी चित्पावनी बोलींत प्रचलीत आशिल्ली विशिश्ट उतरावळ आनी दोन, कृशी-संस्कृतायेकडेन संबंदीत परिभाशीक उतरावळ. ह्या दोनांकूय, लागून कोंकणीच्या बृहत् शब्दकोशाक जायतें योगदान लाबतलें, हातूंत दुबाव ना.

आयज कोंकणी बोलींचेर संशोधनाक सुरवात जाल्या. मालवणी, कुडाळी, बारदेशी, सत्तरी, काणकोणी, कारवारी, मंगळुरी, केरळी, अंत्रुजी, साश्टी ह्या वाठार-विशिश्ट बोलीं वांगडाच कोंकणीच्या जातीविशिश्ट (देखीक दालदी, नवायती, चित्पावनी, पद्ये...) आनी व्यवसायाधिश्ठीत (देखीक शेतकामती, नुस्तेकार...) बोलींचो लेगीत अभ्यास आनी संशोधन जावपाची गरज आसा. अशे तरेच्या खंयच्याय बोली-अभ्यासाक लागपी पाठ्य-रुपांतलें खाद्य श्री. नेने हांच्या ह्या पुस्तकांतल्यान संशोधनाक मेळूंक पावतलें.

श्री. नेने हांणी चित्पावनी बोलींतल्यान जिणेच्या साबार मळांक स्पर्श करपी चवकस आनी चोखंदळ आनी चौफेर लिखाण करून हे बोलयेक मान-मरातब, प्रतिश्ठा मेळोवन दिवची आनी पर्यायान भाशीक प्रक्रिया गिरेस्त करची हो आवंडो. कडतरीचे हे खडतर साहित्य साधनेक साबार शुभेत्सा!

**– डॉ. भूषण भावे**

# मांडावळ

1.

# माजां कुळागार माजां थिकाण

म्हादय न्हंय ही जिवनदायिनी असा म्हणसत. न्हंयचे तडीवर ऱ्हेणारे लोकांचा जगणां या न्हंयचे पाण्यावर अवलंबू नी से. तसोच मे या म्हादयच्या तडीवर ऱ्हेणारो. या न्हंयवर जगणारो. या न्हंयवरच माजां भविष्य घडयणारो. माजे जाण्टेंनी या न्हंयचे तडीवर वांयगण अणि कुळागर वसयलां हें माजां भाग्यच समजसा.

म्हादय न्हंयचे कडावर म्हणजे अगदी दहा ते पंदरा वांवाचे अंतरावर वांयगण वसयलासे. तेला अगदी टेकोनी कुळागर वसयलासे. कुळागार दिसे अगदी सुंदर असा से. दुरथीन उंचा वेल्यान बघीतलेवर शोभीत दिसेते. लांब लांब उंच उंच अश्यो माडयो मध्यां मध्यां माड अणि तेतच केळबे. दुरथीन बघीतला तर कसा हिरवाचार दिससे. अगदी सुंदर दिससे.

'दुरथीन डोंगर साजरो लागीं गेलो तर कडू कडू काजरो' तसे पैकीच हो एक प्रकार से. कडू काजरे इतके साठीच की उतरणिचा कुळागार सले कारणान कुळागारांत फिरणां तसां कठीणच. कुळागराथीन घरा कडा येवप म्हणचे स्वर्गाच्यो पायऱ्यो चडले सारखां दिससे. बाकी कुळागराथीन व्हांवणारो पाण्याचो पाट तसो जिवाला सुखाय देसे. कपडे होळे घातलेल्या पाथरीवर बेसोनी, पाटांत पांय सोडोनी बेसलेवर जिवाला सुखाय येसे. तर पाटांत डुंबलेवर जिवाला थंडाय येसे. कुळागरांतल्यो केळी अणि माड्याची सावळी काम करणारेला सुखाय देसे. माड्यावर चढलेल्यो मिरवेली संसारांतले कठीण



प्रसंगाना तोंड देव्वेची दिशा दाखसयत. लवंग्या मिरसांगांचीं झाडां अणि तेचेवर मिरसांगो खावये बेसलेली सुकणीं बघतकच वेगळांच समादान गावसे. पिकलेले फणस खावये आयलेले काटांदर बघतकच आश्चर्य दिससे. हे झाडां वेंल्यां ते झाडावर उड्यो मारणारे शेकरेला बघतकच मन भारावसे. तर अनसां खावये आयलेले दिवड बघनी भय दिससे.

दारांतले खळेतथीत पंदरा वीस पायऱ्यो उतरलो की कुळागर. पयलींच

गावसे तो व्हांवणारो पाण्याचो पाट. पाण्यात पांय भिजो नये म्हणी तेचेवर घातलेली आडी. आड्या वरथीन पाटा पेलतडी गेलो की खरां कुळागर बगे गावसे. जाण्टेंनी कुळागराची आंखणी अश्या पद्धतीन केलेली से की, शेकडो वर्षा पयलींचे आमचे जाण्टें इंजिनिअर सले. दोन मैल दुरथीन व्हाळाला बांद घालनी हाडलेलो पाण्याचो पाट म्हणचे इंजिनिअरींगाचो एक उत्तम नमुनो से. पाटांतला पाणी प्रत्येक दांडेथीन प्रत्येक मागांत दर एक मागाथीन फोंड्यात जायवेची आखणी म्हणजे एक नवलच से.

कुळागर म्हटला कि तेत दांडो, उबो अणि आडवो दांडो, पाटवळ, माग फोंड्यो, पुड्यारी, घोगे, लय, हड्डो, ओटे, मागाच्यो पेळो, नेमा, आळीं, दारी बरस, घोली, नमस, गायर, खरचणी, चर, पाटो, खावटीं अशीं वेगवेगळीं नांवां आयलींच. दर एक नांवाचां वर्णन करेवा तर वाचणारेला तां समजे अवघड जाणार. तशी कुळागरा दोन प्रकारचीं ससत एक उतरणिचा कुळागर म्हणजे दोंगराचे मुळांत वसयलेलां, दुसरां समळ कुळागर. असले कुळागरांत ओटे घोगे हे दोन प्रकार नससत. उरअणिचे कुळागरांत शिंपणेचे वेळा एक सुंदर असां दृष्य बघे गावसे. पाटाचां पाणी दांडेथीन खालतां सोडलां की दर एक खावटेथीन ओतो लागसे. तेडला दर एक ओटे प्रमाण एक एक घोघो बघे गावसे. घोगो म्हणचे पाण्याचो धबधबो. एका ओळीत ओतणारे घोघे अगदी खालचे शेवटचे मागाथीन बघे बरे दिसतत. शिंपताना जिवाला झालेले त्रास विसरे हसत. तेच बरोबर तेंचो तो लयबद्ध आवाज म्हणचे एक तऱ्हाचे वाद्यांचे सूर कसे आयको येसत अणि कय कुळागर शिपोनी झालां हें कळत सुद्धा नाय.

तसां कुळागरांत काम बाराय म्हयने ससे, काम सताना कुळागरात जाणा हे ठरलेलांच ससे. पण काम नसताना कुळागरात जाणा म्हणचे 'टायम पास.' कुळागरांत गेले नंतर मनाला समाधान गावसे तितकीच जिवाला थंडाय येसे. गिमांत निबर लागत नाय तर पावसांत भिजे हत नाय. माड्यांची चुडतां अणि केळींची सोपां गिमांत सावळी देसत. तर तीच चुडतां अणि सोपां पावसाचे दिवसांत आसरणेचां काम करसत. माड्याना आयलेलीं शिपटीं बघतकच काम केलेलेचा फळ मिळलेची उमेद भागसे, केळीना आयलेले घड बघतकच जिवाला सुखाय येसे. तीच आपलो घाम गळयलेली पावती मिळसे. मिरवेलीला

आयलेल्यो लांब गोंडी बघनी आपली जिवन रुपांतली वेल पसरणार हेची खात्री हसे. माड्यांना आयलेले फाळे बघनी भविष्याचे उदरनिर्वाहाची जाणीव हसे. वेलच्याचे झाडाचे मुळाथीन वेलच्याच्यो वेली बघनी जमिनीची करामत बघे गावसे. माडाच्यो पोई फुलल्यो, माड्याचे फाळे उगडले नंतर येणारो सुगंध गंधा पेक्षा सुवासीत सलेचो अनुभव येसे. माड्याचो फाळो उघडोनी तांदळाला सारखो कणेर खालतो पडताना देवान आमचेवर शूभ अक्षदांचो आशिर्वाद दिलेचो भास हसे. फाळो फुलेचे पैली पडलेले चुडताची पोवली चांदणे सारखी धवीशुभ्र आमला उत्तेजीत करसे. केळीच्या बोंड्याचो पोखारो फुलले नंतर फुलांथीन शिंपणारा म्हव म्हणचे देवाचा तिर्थ घेतलेचो आनंद मिळसे. घडावर पिकलेली सोने सारखे रंगाची केळीं बघतकच तान भूक भागसे. पिकलेले पणसाचे रसाळ गरे खावनी आमची वाणी रसाळ झाले सारखी हसे. माडाचां आरसड काढणी आरसडांतलां पाणी प्येतकच अमृत प्यालेची इच्छा तृप्त हसे, असां हें माजां थिकाण, माजा कुळागर मनाला मोहीत, उत्साहीत, प्रेरीत करणारा असा से. आईचे मायापेक्षा जास्त, आपुलकी वाढयणारे कुळागरांतच कायमचां अजरामर हैवा असां माजां थिकाण, माजां कुळागर...



2.

# काळभुमी

आमचो दादा आमला सदांच सांगत सलो की 'हि कुळागराची कामां तुमचे कडां हयवेचीं नाय, ही काळभुमी से, एठा फकत काळानीच वावरेचा. तुमी आज डिचोल्या सा ते अणिक पुढा चला. शहरांत हलकां फुलकां काम करा, नोकरी करा. पण एठा परत ह्या काळभुमीत येंव नाका. ' हे शब्द आजही माजे कानात घुमघुमसत. एकेकदां हे खरां असा दिससे, तर एकेकदा हे खरां न्हुय असा दिससे.

आजपर्यंतचे कुळागरातले कामा विशयीं आयलेले प्रसंग लक्षांत घेतले जाले तेणीन सांगलेला निव्वळ खरां असां दिससे. कारण आज कुळागरांतली कामां आमचे कडां हत नाय, कामाला माणूस कोण गावत नाय. 'सोडला तर पोळसे धरलां तर चावसे' अशी कुळागरकारांची गत जाली से. पण आजपर्यंत चालत आयलेलीं कामां अणि नवीननवीन यंत्राची मदत बघनी दिससे की हीं कुळागराचीं कामां अशींच पुढा पर्यंत चालू उरनार.

खुपसो विचार केलो की, असां हें सगळां दादान आमला की सांगेवा. आरतुनी परतुनी विचार केलो तर एकदां असा दिससे की हे सगळां खरांच सैवा. येणारो वेळ अणि काळ हो असोच सयेल का ? तो आपले अनुभवातथीन सांगे हे खरांच सलां. तेचो तसो दुरदृष्टीकोन सैवो. दादान सांगलेल्यो गजाली अणि तेचे अनुभवातथीन असा दिसे की तेचो पुढले पन्नास वर्षाचो दुरदृश्टीकोन सलो. दादान आमला हे सगळां सांगेचे पाठली कारणां सोदतां सोदतां माला

असेच एक दोन प्रसंगांची याद जाली.

बाजाराला न्हेवे कापे पणस अणि केळेंची घोडूलीं दादान मारनी थेयलेलीन. पणस अणि घड बशीवर घाले सकाळीं सहा वरांना मानायाना येव सांगलेलेन. कारण ते पणस अणि घड बशीकडां न्हेवनी बशीवर घालप तसां काम कठीणच सलां. चालत जायवे पंधरा मिनटांची वाट सली, तेच बरोबर ओजेला दोनच पणस जात. तसाच जवळजवळ चार पांच घडांचां एक ओझां हय. विसऐक पणस अणि विसेक घड म्हणजे जवळ दहा ओझी. पांच मानायाना दोन दोन फावटी. हीं सगळीं गणीतां बांदली तरी, ''यवजलेलां साधेल तर अवदीसा कीताला बादेल?'' असे प्रसंग खुपशा फावठी येत सले. सांगलेले मानाय ते दिवसा हुकमी आयले नाय. ते बरोबर दादाला आयलो राग. अणि लागलो फरफरूं. रागाचे भरात मानायाना गाळी घातल्योन अणि आमला बुद्धीवाद सांगो लागलो. शेवटी मे आपा ताई अणि माईन दादाला पणस अणि केळीं बाजाराला न्हेवे मदत करेची ठरयली. बस चुकली म्हणजे दुसरी व्यवस्था करणा भाग पडला. दुसरी व्यवस्था म्हणजे आमचे गावात एकमेव ड्रायवर सलो. तो रात्रीचो गाडी घेवनी घरा येय. तेलाच फुला माळूनी केळी अणि पणस वाळपय पाववेची युक्ती दादाला सांगोनी तशी व्यवस्था केली. तरी शेवटी पणस अणि केळीं तकल्यावर मारनी आमलाच न्हेवेची पडलीं. कारण आमचे घरापर्यंत गाडी येत नतली. शेवटी आमी सगळेनी मिळोनी कसेबसे एक दोन एक दोन करनी पणस अणि घड गावांत पावयले. ट्रकवालो म्हणजे लक्ष्मण सावंत. ते वेळावेल्लो सोनाळचो एकमेव ड्रायवर. तो वेळावर आयलो नाय जाले गोरवां पणस खानार म्हणी त्याहा राखे रेव्हा लागलां. मग कयतरी एकदां रात्री आयलो. ट्रक पावतकच दादाला जीव भांडेत पडले सारखां जालां. असले कांयसे कारणाना लागोनी दादा आमला सदांच बजावीत सलो कि, तुमी एठां न्हेव नाका म्हणी. आमचे दादान आपले अनुभवातथीन आमला घडवेचे असा ठरयलेलान. तरी आमी दादाचा न आयक्ता जमीन, उत्पन्न, ह्यां सगळ्या गजालींच्या मायान घरा न्हेवे आयले.

घरा न्हेवे आयलेबर कठीण असां काम स्विकारलां तां म्हणजे कुळागर, काजी अणि वायगण. कुळागराचीं कामां आमचे साठी कठीण सली तरी

नवीन युक्त्यो अणि क्ल्युपत्यो काडनी तशोच वेगवेगळ्यो सरकारी सवलती घेवनी तीं कामा चालू थेयलीं अणि आज पावेतो चालू सत. कामाला मनाय कांबेरी गावत नाय, अणि आमला जमत नाय, ''धरला तर चावसे सोडला तर पोळसे.'' तरी सुद्धा आमी हार मानली नाय. जेडला घरा न्हेवे आयलों तेडलां घरचीं अणि कुळागराचीं कामां आपसूख पदराला आयलींच कुळागराचीं कामां हीं 'केडलांच न संपणाऱ्या गोष्टीसारखीच.'

पावसाळो सुरू जालो की पयलां काम ससे ता म्हणजे माघ धांकप. म्हणजे कुळागरांत पडलेली अळशीक माघावर घालप, जेणे करनी माघ पावसांत सडोनी जांवं नये. तेच बरोबर श्रावण म्हयने पाशणी पिके बेडे पडो लागसत. ते कुडावे सोपां हयवां म्हणी माड्याची 'चुट्टां अणि चारवतां माघावर घालनी माघ धाकनी घेवे लागसत. मोग म्हणजे पाऊस चालू सताना माड्यांची आळीं काडनी तेत शेण-सावूळ घालप. आळीं पुरवनी घेवप. वर्षाला पुरेल इतका खाण त्या माड्यांना पावसातच घालेवा लागसे. हिरवी सुपारी झडो नये म्हणी ओखदाची (चुनो अणि मोरचुद) फवाअणि करेवी लागसे. पावसाचे दिवसांत ही फवारणी तीस दिवसाचे फरकान दोन ते तिनदा करेवी लागसे. बेडे कुडाववेचां काम हें सदाचांच ससे. श्रावण म्हयने पाशणी पौष म्हयने पर्यंत रोज सकाळीं बेडे कुडावपाचां काम चालूच ससे. सुपारी जास्त प्रमाणात पिकली की पाडप करनी घेवप. अशी दोन ते तिनदा सुपारी काडनी घेव्वी लागसे. तेच बरोबर दिवाळ्या कडां पाटाला पाणी आयलेनंतर बेडे पाण्यात व्हावोनी जावं नये म्हणी पाटवळीची सगळी सुपारी काडनी घेव्वी लागसे. सुपाऱ्याची पाडपा हयवेचे पयलीं सुपारी सुकत घाले खळां तयार करेचां एक काम ससे. सुपारी सुकत घातलेवर ठरावीक दिवसानी राशी करप, सुपारी ढवळप अणि ती घरांत भरनी थेवप. तरी सुद्धां सुपाऱ्याचीं कामां सोपत नाय. सुपारी मरोळ्यावर सोलप, वेंचप अणि बाजाराला घेवनी जावप हें सुद्धां एक महत्त्वाचां काम ससे.

चतुर्थी जालेवर म्हाळ म्हयनेत निमाणी औशदाची फवाअणि जाली की कुळागर नडोनी घेवप हे अणिक एक काम ससे. मग मेलेल्या माड्यांची नेमा मारनी घेवप. आमचे जाण्टेंनी आपल्या पद्धती प्रमाण माड्यो इतक्यो खोल लागलेल्यो सत, की नेम खणणा कठीणच. तसांच नेमातलो माड्याचो गड्डो

वरता काढणा खूपच कठीण. माड्यांचे गड्डे नेमाथीन वरते काडप हें जिकिरीचां काम ससे. माडी लवंडुनी घालताना देगाच्यो माडयो अणि केळी मोडेच्यो नाय हेची काळजी घेवप तितकाच जोखमीचा काम ससे. दिवाळ्याचे दिवसांत पाटाला पाणी हाडप म्हणजे पाट निवळ करप, बांध घालप हीं कामां कठीणच ससत. पाटाला पाणी आयलां की माघानी पाणी सोडनी माघ फुगवप. मग माघ खरवडनी घेवप तसेच कोसळलेले माघ ओटे अणि दांडेच्यो पेळो बांदप. त्यो वेळचे वेळा पेटनी घट करप. कारण इतकाच की पौष म्हयने पाशणी शिपणी सुरू हयवेची ससत.

माघ पाटाचा काम सोपलेवर नेमानी कवात्यो लावेचां काम करेवां लागसे. तसांच मुळां आयलेले केळंबे काढनी, नेमा मारनी नेमानी लावेचे म्हणजे पुढचे उत्पन्नाचो समतोल राखेची एक कुळागराची पद्धत ससे. लायलेल्या कवात्यांना अणि केळंबेना एक एक पाटलो शेण घालनी उत्पन्न वाढवेची कला करेवी लागसे. हे सगळां जालेवर शिपणी सुरू करेवीं लागसत. शिपणी वेळावर सुरू केली नाय जालेवर पुढलो येणारो फाळो धरत नाय अणि उत्पन्न कमी हसे. कायदेचा शिपणां पौष म्हयनेच्या पुनवा पाशणी सुरू हसे. तरी तेचे आदीं एक म्हयनो शिपणीं सुरू हसत. पौष पौर्णिमा म्हणजे वांजी पुनाव. ह्या पुनवा पाशणी हक्काचे पैरे सुरू हसत. कल्लेन दिवसभरी कुळागर शिपप म्हणजे जीव जाम हसे. शिपणी सुरू हयवेचे आदीं मिर्यां जून हसत, तेडलां मिर्यां काढनी तीं मळनीं, सुटी करनी, सुकवनी बाजाराला न्हेवेचा एक काम ससे. तेच बरोबर दर पंधरवडेला जून जालेलीं केळीं मारनी बाजाराला न्हेवप म्हणजे मीठ मिरसागाचो खर्च सुटसे. तेचे आदी पावसेचे दिवसांत काजी बेंडनी अणि झाडां बोडकावनी कुळागराला अणि गायरीला हवे तितके भरे सावूळ न्हेववी लागसे. काजीचे फालसणातथीन सावळीचे भरे खालती कुळागरांत पाववीपर्यंत नाका हसे.

जसां सावळीचे भरे हाडताना जीव मरणाला पावसे तसांच, गायरीतलां शेण कुळागराला अणि वांयगणाला घालताना हसे. वांगणाचा काम नव्हेम्बर म्हयनंत सुरू हसे. तां साधारण एप्रील ते मे म्हयनेत सोपसे. वांयगण फोडले पाशणी रोप लावनी ह्यपर्यंत चार लोकांना उसंत मिळत नाय. भात पिकले

नंतर भात कापणी, मळणी, भात वारां करनी घरांत पडे पर्यंत कामां रगडूनी ससत. घरांत पडलेले भाताचे तांदूळ करनी अन्न पोटांत पडे पर्यंत जिवांत जिव नससे. हे सगळां करीत सताना, वांयणात शेण न्हेवनी घालणा, नांगरणी, गुठावणी, लावणी, नडणी भात पेरणा, भाताची राखण, वंय अणि आडे करणा अशीं तरेकवार कामां करताना जीव थकोनी जासे. कुळागरांतले नित्य नेमाचे कामाबरोबर वांगणाचाही काम वर्षातथीन एकदां करेवांच लागसे.

शिंपणी सुरू जालीं की थोडीशी एक म्हयनो उसंत गावसे. तरी सुद्धां पैरे प्रमाण आठवडेथीन एक पैरो कल्लेन शिंपेची कसरत करेवी लागसे. ही कसरत पाऊस पडेपर्यंत चालू उरसे. शिगमेचे पाठीं पुढां काजी लागो लागसत. काजी लागो लागल्यो की डोंगर फिरोनी म्हुट्टे कुडावनी कोळब्यांवर हाडप, तेंच्यो काजी पिळप. म्हटेंचो रस काढनी आवारावर घालप अशी खुपशीं कामां करीपर्यंत दिवस पावत नाय. काळोख पडलो तरी काजीचीं कामां कय सोपत नाय. म्हुट्टेचे चोफडांचा चुंबळ बांदनी तेचेवर फातरी थेवनी चेपण घालप म्हणजे सगळो रोस पिळनी येसे. तेच बरोबर निरो प्येवे गावसे. शेवटची धार येसे ती निवळ पाण्यासारखी ससे. तेला नीरो म्हणसत. हो निरो प्याले नंतर जिवाला सुखाय येसे. दिवसभरी काजीनी वणवण फिरलेली अणि मरमरमरोनी काम केलेले श्रमाची जाणीव हत नाय. हीं सगळीं कुळागराचीं, वांयगणाचीं अणि काजीचीं कामां करीत नाय जाले पोट भरत नाय अणि प्रपंच चालत नाय. अणिक एक दुसरेचे हातचा काम ससे तां म्हणजे नारळ काडनी घेवेचां. वर्षातथीन तीन ते चारदां नारळ काढेवे लागसत. नारळ काढणारो मिळे तसा कठीणच ससे. नारळ काढनी घेवप अणि सुपारी पाडनी घेवप हीं कामां जिवावेले काळा सारखीं ससत.

ही सगळीं नीत्य नेमाची कामा सली तरी सुद्धा बाकिची अणिक खूप कामां ससत. सकाळी उठतकच गोरवांचा दूध काढनी वासरांना लुचवनी गोरवांना रानात चरे सोडनी घालप. मग वासरांची गोठली धवोनी निव्वळ करप, तेना चार पाणी घालप. तेन्त्रेनंतर गोठेतलां शेण भरनी गायरीत उडवप, गोठो धवप. संध्याकाळला गवण भरी गवत नायजाले करड घालनी घालनी थेवप. दुध सोसायटयात दुध न्हेवनी घालप. गोरवांना पेन्ड भीजत थेवप. तिनसांजची

गोरवांना मुंसका चावसत म्हणी धुरी घालेला शेणी घालनी सुकवनी त्यो गवताचे माळेवर भरनी थेवप. घरा देगाचो केर वारो करनी दारांतली खळीं सारवप. कुळागरांत पिकलेल्यो लवंग्यो मिरसांगो काडनी सुकत घालप. दिवसभराला लागतील एवढी जेवेचीं पानां काडनी हाडप. पानवेलीचीं खायवेचीं पानां काडनी बाजाराला न्हेवप. माटवाला लागणाऱ्यो मेडी हाडे रानात जातकच बरोबरच गवणीला घाले आंगरा अणि आडयो हाडे विसरत नाय. तसेच वंयला खूट हाडे रानात जातकच कुदळ खोरेळा दांडे घालेसाठी गेळ्याचे खूट हाडे विसरत नाय. वय बांदे वेलीना रानात जातकच पाळाला थोरू घाले एखादो मुळयो हाडे विसरत नाय. पावसाळेला पावतील इतकी तरी लाकडां करनी खोपींत भरनी थेवे विसरोनी चालत नाय. पावसांत खाडूं करे, माड्याच्यो पवल्यो सुकवनी तेंचो भरो बांदनी थेयणा तितकांच गरजाचां से. पौल्यांचे दोणे अणि केळींचे शनवतांचे दोणे आठवणीन बांदनी थेयले जालेवर म्हाळा श्राद्धाला उपयोगी पडसत. तसेच पवल्यांचे काने करनी थेयणा तितकांच गरजाचां से. पिकलेले गरे खायवे तसांच साटा घाले पणसाचे पणस दोऱ्यान उतरावनी काडेचां काम ससे. तशीच जेवणाला वापरे अणि कडी करे भिंडी पाडणी तेंची सोलाची साठवण करेवी लागसे. तेच बरोबर कोयत्यो कुराडी, कुदळी मेस्ता कडल्या पाजवनी घेवेव्यो लागसत.

शेवटी सांगेचा म्हणजे कुळागरकाराला वर्षाचे बाराय म्हयने काम ससे. असां सगळां काम केलां तर कुळागरकाराचे पोटाला मरण नाय. काम केलेशिवाय पोट भरत नाय. हे जाणुनी आमी लाज सोडनी भरपूर काम करनी आमचीं कुळागरां, वांयगणां अणि काजी टिकवनी थेयल्यो सत. हे कुळागर स्विकारताना आमी एक मंत्र मनाशी धरलेलो तो म्हणजे ‘केल्याने होतची आहे आधी केलेची पाहिजे.’



3.

# घोटुरो

माजो सद्दाचो नेम म्हणचे सकाळीं उठ्ठकच बेडे कुडावे काळागरांत जायवेचां. बेडे कुडायताना एक दिवस नजे जालां म्हणी. मात्सो सुशेग घेवया असां दिसलां. बेडे कुडावेचां काम तसां सोपां नाय. एठा त्याहा पडलेले सबंद कुळागराचे बेडे कुडायताना कमर मोडोनी येसे. कमराला मात्सो सांड गावेल म्हणी केळीचो आसरो धरनी बेसलो.

जिवाला मातसो सुशेक गावनार म्हणी खालती बेसलो. गजालीना अणि वांगड कोण नाय. बेसोनी हेगडा-तेगडा बगताना माजी नजर वरती गेली. बघसा जालेवर केळीचे सोपाला तळल्या वाटान सुकणेचो एक घोटुरो दिसलो. घोटुरो बघनी माजे विचारांची चाकां फिरो लागलीं. मनांत हजार प्रश्णांनी घर केलां. तेत एक प्रश्ण मला सतांव लागलो. केळीचे सोपाला तळल्या वाटान घोटुरो चिकटोनी ऱ्हेलो कसो? एरवी झाडाच्या खांद्याला, झाडाचे केवलेवर, माडाचे पिरांडेच्या खांचीत, माडाचे चुडताना ओंबकळणारे घोटुरे खूब बगले. माडाच्या चुडताच्या पात्याचे टोकाला ओंबकळणारे घोटुरे म्हणचे 'चिंचेच्या पानावर देऊळ रचिले आधी कळस मग पाया रे' असो प्रकार दिससे.

बाकीचे घोटुरे पेक्षा सोपा खायलो घोटुरो बगनी माजां मन चौकसदार जालां. केळीचां सोप बागवनी घोटुरो बगेची खुबच इच्छा जाली. केळीचां सोप बागयताना तां मोडेचानाय, तेतली सुकणेची तात्यां खालती पडेची नाय, तसांच घोटुरेला कांयच इजा हयवेची नाय हेची काळजी घेतली. सोप हळू

बागवनी घोटुरो बगतकच सुकणेची घोटुरो बांदेची कसब, तेची कला, तेचां इंजिनियरिंग, पावसापाण्या पाशणी आसरो, तात्या खाली पडो नयेत म्हणी केलेली घोटुरेची बांदावळ म्हणचे सगळां नवलच. हे इंजिनियरिंग सुकणा केंचेच कॉलेजांत जावनी शिकलां नाय. तर तेची ती जन्मजात कला. ही कला तेला निसर्गान दिली से. तां त्या कलेचो योग्य वापर अणि योग्य उपयोग करसे. उलट माणूस वर्षान वर्षा शिकोनी तेचा इंजिनियरिंग खुबदां चुकसे अणि बिल्डिंगो, पूल कोसळसत.

बारकायान ते घोटुरेला बगलां जालेवर ते सुकणेची खरी कला अणि कसब दिसत सला. एवढेसे जिवान झाडाचो पातारो चोचीथीन हाडनी केळीचे सोपाला चिकटवनी घोटुरो तयार केलेलोन. माड्याच्या चुडताचे पात्यांच्यो बारीक पिजोळ्यो करनी घोटुरेच्या भितरल्या वाटान मांडलेल्योन. माडाचो घुबो हाडनी पिजरेत भितर चिकटायलेलोन. हात लावनी बगलेव भितरली वाट कापसाच्या गाद्या सारखी मऊ लागत सली. घोटुरेची भितरली वाट कोंडाळे सारखी खोल केलेलीन. आपली अंडी घोटुरेतथीन खालती पडो नये म्हणी केलेलां कोंडाळां म्हणजे ते सुकणेच्या विचारशक्तीचो अदमास येत सलो.

रोजचे ठरले कामा प्रमाण कुळागरात जाकतच पयली नजर घोटुरेकडे जात सली. एक दिवस घोटुरो बागवनी भितर बघसा जाले वर मला तेत तीन चार तात्यां दिसलीं. तात्यां बघतकच जिवाला बरा दिसला. तितकीच चितणूक सुरू जाली. सकाळी सुकणा आपला पोट भरे बाहेर जासे. संध्याकाळा परत घोटुरेत येसे. मधले वेळात तेतली तात्यां खालती पडली, फुटली, तात्यांचे वजनान घोटुरो खालतो पडलो जाले? एकादे जिवान तेची तात्यां खाल्ली तर, असे प्रशणानी माजी तकली गिरगीरों लागली.

मग सदा मला बेडे आनी कुळागरापेक्षा घोटुरेची अणि तात्यांची काळजी हव लंगली. सदांच घोटुरेकडा लक्ष देवप हो सदाचोच नेम जालो. थोडे दिवसानी चिवचिवाट सुरु जालो. चिवचिवाट आयकले नंतर जिवाला बरा दिसला. मग मग थोडे दिवसानी पिला मोठी जाली. अणि उडोनी गेली. घोटुरो कितकेसे दिवस रिकामोच सलो. सुकणेन बांदलेले घोटुरेचा शेवटी चीज जालां. तरी सुद्धा तो घोटुरो अणि सुकणा माला माया लावनी गेलां. परत तां अणि तेंची



पिलां माला कयीच दिसलीं नाय. दिसलीं सतीलही पण मे ओळखलो नसेन. तेणीन माला एवढी ओढ लायलेलीन की मे सदांच तेचो रिकामो घोटुरो बगनी माजा समादान करनी घेत सलो.

सगळ्या गजालींचो विचार केलेवर एक गजाल नक्की हसे. पुस्तकी अभ्यासाशिवाय, कसलेही शिक्षणा शिवाय सुकणा सुंदर अणि टिकाऊ असो घोटुरो बांदू शकसे. म्हणजे सुकणेला निसर्गाची देणगी से. हे नक्की हसे. ते उलट माणूस जेला शिक्षण से, विचारशक्ती से, प्रगत तंत्रज्ञान से, पयसो आडको से पण तो स्वता आपलां घर बांदू शकत नाय. तेला इंजिनियर, कारागिर हवे. तरी सुद्धा माणसाचा घर कितके दिवस टिकेल हेची शाश्वती नससे. माणूस ह्या धरतेरवर सगळेत हुशार, तकल्यान फीन, तंत्रज्ञानाची जोड सवनी तेणीन बांधलेले घरांची, पुलांची, साकवांची कसलेचीच गॅरंटी तेला नससे.

माणूस सदांच म्हणसे की जनावरांना, सुकणेना बोले येत नाय, तेना विचार नाय. पृथ्वीतलावरचे सगळे प्राणी बोलसत. पण आमला तेंची भाषा कळत नाय. तीं विचार पण करसत पण तेंचे विचार जाणोनी घेवपाची आमची कुवत नाय. घोटुरेची बांदावळ बघलेवर कळसे की, तेंची विचारशक्ती म्हणजे खरां तंत्रज्ञान.



4.

# मुठलो

सत्तरी तालुको हो तसो पयलींचो दुर्गम भाग. हे भागांतले लोकांच्यो आपल्यो स्वःताच्यो जमनी कमीच. जरी थोडी जमीन सली तरी तेत भात नासणो पिकयलो तरी तो पावत नतलो. सुपारी, मिरी, केळीं हे सारकीं उत्पनां ठरावीक लोकांची सली. तरी पण कुटुंबाला पावेल इतको दाणो पिकयणा कठीणच सलां. कारण तेडलाचे काळांत कुटुंबां मोठीं सत सली. एका घरांत दहा-पंदरा जणा खाणारी सत.

आजची तरा निराळी से. एतां कुटुंबां ल्हान ससत. साठ ते सत्तर वर्षा आदीं दर एका घरांत सात ते आठ भुरगीं सत सली. सगळेंचा पोट भरप ही मोठी जिकीर सलीं. आजच्या पिळग्याला कमी कश्टात, कमी खर्चात तसांच कमी वेळांत जास्त मिळकत हवी. म्हणीच आजची पिळगी भात, शेत बागायती पाशणी दूर जाताना दिससत. तेडलाचे वेळाची गजाल वेगळी सली. कश्ट कितकेय पडोत, पयसो नाय मिळले चालसे, पण तीन वेळा पोट भरी खायवे मिळे हवा सला. ते साठी कितकेय त्रास हव, कष्ट पडोत माणूस कसलेय यत्न करे पाठीपुढा बघीत नतलो.

तीन वेळा खायवे हवो सलेलो दाणो स्वताच्या जमनीत पिकवनी पावत नतलो. म्हणी डोंगरानी अणि मळानी भात, नासणो, पाकड, वरी, तूर हे सारकीं पिकां काडीत. दूर रानांत जावनी दोंगरांतलीं झाडां हाणेचीं. पंदरा-वीस दिवसा उपरांत सुकलेले रानाला आग लाव्वेची. आग लाव्वेचा मूळ कारण म्हणजे



जमीन भाजप. भाजलेल्या जमनीतलो रोठो अणि ओळबो मरसे. तसांच पीक सुद्धा बरां येसे. असे तरान दाणो पिकवीत तेला मुठलो असां म्हणसत.

आमचे गांवांतले पयलीचे लोक असेच मुठले करीत सले. झाडा हाणोनी घाले एकदां जात. मग पंदरा वीस दिवसानी हाणलेला रान जळवे अणि बी पेरे जात सले. मिरगावर घर सोडनी रानात गेलेवर त्याहा ऱ्हेवे गवळ बांदप. हे पयलां काम. गवळ म्हणचे चार पाच जण ऱ्हेय सारखी ल्हान खोप.मेडी अणि तोणकेनी खोप बांदीत अणि ती करडान शिवत. तसोच तेत निदवे माचोळ्यो पण घालीत. मोग भाजलेली जमीन निवळ करीत म्हणचेच साकूळ काडीत. मारलेले रानाला आग घालनी उरलेली लाकडा काडनी तेंच्यो राशी करनी जळवेच्यो म्हणचेच साकूळ काडप. लांब लांब तोणके काडनी जळयलेल्या जमनीचे चारी वाटान आडे करीत. ते उपरांत नासणो पेरीत नासणो पेरेचे आदीं केंचा बीं पेरेवा हेचो विचार करेवो लागे. कारण शेंद्री, गणेश हिड्डो, खारो नासणो हे सारकी बियां सली. तेतलां केंचा बीं ते हवामानात जास्त पीक देणार ते प्रमाणात ठरावीक बीं पेरीत. पेरले उपरांत रुजोनी आयलेले नासणेतली नडणी काडीत. रुजोनी आयलेले झाडांच्यो कोमऱ्यो काडणी उडवीत. नासणेचे रोपांत जरी फिरलो तरी तो नासणेची कोम मरत नतलो. दाट रुजोनी आयलेले थाम कुपळोनी रिकाम्या जागेत उडवीत. नासणेचे उडयलेले जागेवर ते रोपे त्याहाच

वाढत. थामाची वाढ जरी सुशेगाद सली तरी पीक बरां येसे.

मिरगावर पेरलेले नासणेला कणस चवती भवारी येसे. चवती भवारी आयलेलां कणस दिवाळया भवारी पिकसे. नासणेचे पिकाबरोबर त्याच जमनीत इतर पिकां घेत सले. हेचोच अर्थ तेडलाचे लोकाना मिक्स फार्मींग खबर सलां. नासणेचे कडान तुरीचीं झाडां लावप, दुसऱ्या कडान मिरसांगांचे रोपे लावप, मध्यां मध्यां दोडगी भोपळेचे वेल चडवप. नासणेबरोबर सासवी भाजी पेरीत. भेंडे सारखी भाजी सुद्धा पिकवीत. भाज्यो पिकवेचां कारण इतकांच की रानात तीन चार महिने ऱ्हेवेचा म्हणजे भात भाकऱ्या बरोबर भाजी हे पोट भरतीचां साधन सलां. म्हणी नासणे बरोबर तरातराच्यो भाज्यो पिकवीत. इतर भाज्याचीं पिकां उलगत येत, तेडला नासणेचां कणस काडी सारखां हय. पिकलेलीं कणसां काडणी मळप म्हणचे खळेची गरज सत सली. म्हणी खळां तयार करीत सले.

नासणेचीं कणसां तोंडकेनी बडवनी नासणो कणसा पाशनी वेगळो करीत. भरपूर प्रमाणांत पिकलेलो नासणो पांच सहा कोस दूर माथेन घेवनी घरा येवेचां काम तसां सोपा नससे. ते काळांत प्लास्टीकच्यो पिशव्यो नतल्यो तर साक विकते घेवे परवडत नतले. अणि तितकी ऐपत ही नतली. पांघरे घेव्येच्या चादरीची मुसकी बांधनी तेत भरनी नासणो घरा हाडप म्हणजे ते लोकांची कला निराळीच सली.

आज गाड्यांथीन दारांत आयलेलां सामान घरांत ऱ्हेवेची आमला ताकत नाय. पण तेडलाचे लोक पांच सहा कोस दूर पिकयलेलो दाणो माथेन घरा हाडीत. घाम गळोवनी कश्ट करनी आपलां कुटुंब पोशीत. कश्ट करप अणि पोट भरप होच तेंचो नेम सलो. आजच्या पिळग्याला कश्ट करेची इच्छाच नाय. इच्छा सली जाले कसलेच कश्ट जाणवत नाय. म्हणी आजच्या पिळग्यान इच्छाशक्ती वाढवेची गरज से. तशीच शेतां भाताचीं कामा करेची गरज से.

●●●

5.

# अन्नदान

जीव जगणेसाठी अन्न हें माणसाचां मुख्य साधन. जीव जगे हवो म्हणी माणसान भात शेती पिकवे सुरु केलीन. तेच विचारातथीन आमचेही जाण्टेंनी म्हादयचे कडावर शेतोड वसयलीन. कडतरकारांची पोटगी म्हणचेच शेतोड. या शेतोडीत पावसा मुळा पीक काढे शक्य नाय. पावसाचे दिवसांत म्हादयला भरमसाट पाणी येसे तेच बरोबर मोठीमोठी मेलेली झाडां, कणकी नयीथीन व्हावोनी येसत. म्हादयचां पाणी पावसाचे दिवसांत शेतोडीथीन व्हावसे. किमान अर्धी शेतोड पाण्यात बुडोनी उरसे. पाण्याबरोबर रेंव अणि रेवखडो शेतोडीत येवनी भरसे. म्हणी वायगणां पीक काढीत सले.

कडतऱ्याची शेतोड म्हादयचे कडावर वसली से. खायल्या वाटान म्हादय न्हंय जाले वेल्ल्या वाटान कुळागरां. अणि मध्या हिरवीचार शेतोड. न्हंयचे कडान हिरवीचार आन्नाचीं मोठमोठीं झाडां तर दुसऱ्या कडान बागवोनी शेतोडीत आयलेले माड. खायल्या वाटान खळखळोनी व्हांवणाऱ्या न्हंयचो आवाज अणि दुसऱ्या कडान माडाचे चुडतांच्या पात्यांचो सळसळणारो आवाज. एका टोकावर ऱ्हेवनी बगील जालेवर आमची शेतोड होडेचे आकाराची दिससे. वायंगणा फोडेचे आदि हिरविचार अणि फोडले नंतर मातेरी रंगाची दिससे. वायंगणा नांगरुनी माती कुसणेसाठी कुणगेनी पाणि भरनी थेयतकच, जसां डांबराचे रस्तेवर मृगजल दिससे. तशीच शेतोड मृगजळा सारखी दिससे. पाणी भरलेले कुणगेनी झाडांच्यो अणि माडांच्यो सावळ्यो (प्रतिबिंब) बघतकच आमचां वांयगण एका मोठे आरसे सारखां दिससे. वांयगणाच्यो मेरो लावनी

हतकच वाघशेळीचे खेळाचे पटाची गत दिससे.

वांयगणाचा तास, आडास, गुठावणी, शेणाचां तास, लडे मारनी, परत तास काढणी गुठावणी करनी, रोप लायली की, आमचे वांयगणान पोपटी रंगाची चादर पांघरलीनसे कशी दिससे. रोप लावनी सादारण एक महिनो हतकच वांयगणाचो रंग हिरवोचार हसे. तेडलां नवीन होकल हिरवो शालू नेसनी ऱ्हेले सारखो भास हसे. भाताला पोटूर येसे तेडलां वांयगणात कमाशी करणारेला समादान गावसे. तेचे उपरांत भाताची कणसां पोटुराथीन भायेर येसत. तेडलां, होकलान चांदीचे तोडे अणि वेडे घातलेगत चित्र नजरा समोर उभा ऱ्हेसे. सावदां पाशणी भाताची राखण हयवे वांयगणात लायलेलो ठकठकेचो आवाज म्हणचे शाळातल्या कवायतीचे वेळा वाजयलेले ढोलासारखो आवाज येसे. भात पिकले नंतर रात्री माळो राखणारेन लायलेल्या फुगोट्यांचे माळाचो आवाज सावजांचे मनात दहशत तयार करसे. रात्रीचे वेळा माळेकारी सावदाना धरधरायसे तेडलां मन भयभीत हसे.

भात पिके आयलेवर भाताचो वेल्लो भाग सोनेरी अणि खायलो भाग हिरवोचार दिससे. तेडलां माथेवर सोनेरी मुकुट घालनी आमचां वांयगण मिरयसे. अणि आमला सांगसे की, ‘तुमचे श्रमाचां भांगर जालां.’ भात पूर्ण पिकले नंतर होकलान हिरवे चुडे उतरवनी भांगराचे चुडे भरनी उभी ऱ्हेले सारखी दिससे. पिकलेलां भात कातरुनी, आडवां घातलेवर, सोनेरी चादर पांघरूनी वांयगण आवांत निजलेसारखां दिससे.

तरवो लायले पाशणी भात पिके पर्यंत बारीक नजरान बघीतलां जाले वांयगणाची वेगवेगळीं रुपां बगे गावसत. मनाला समाधान गावसे. पांच म्हयने वांयगणात राबलेलेचा सूख गावसे.

वांयगण नजरान बघे सुंदर दिसलां तरी श्रमान अणि कष्टान हें काम खूब कठीण से. सुरवात म्हणजे व्हाळाला बांध घालनी पाणी हाडप. सारण काढणी वांयगणा फुगवप. वांयगण फोडप, कोसळलेल्यो धडो बांधप, गुठावणी करप, आडास करप, सावळीच्यो कवळ्यो मांडप, मेरो लावप, आडास करप. लडे मारप अणि जमीन सवथळावनी घेवप, अशीं खूब कामां ससत. शेण घातले नंतर परत तास काढप. हें सगळां करीतसताना बारीक खोतोडां खोरेन खणप.



तेच बरोबर तरवो रुजवनी काढप. मग शेवटचा तास काढनी रोप लावप. सदां वांयगणाला पाणी लावप, मग नडणी काढप. रात्रीचां माळेवर न्हेवनी भात राखप. शेतोड पिकलेनंतर भात कापनी गुडवां दाळप. खळा काढप, मळणी घालनी, वारां करप. अशी खूप कामां करनी भात घरांत पडेपर्यंत जिवाची दमछाक हसे. जिव मरणाला पावलेगत हसे. भात कापनी आडवां घातलेवर पाऊस नक्की येसे, तो मळणी हय पर्यंत सारखो सतायसे. पण पुढचे उदर निर्वाहाची काळजी म्हणी कितकेय त्रास जाले तरी काम बंद करता येत नाय.

भात पिकोनी घरांत पडलां तरी तां खानार जाले सुकवे हवां. कांडणी हाडे हवां. थोडे लोक उकडे तांदूळ खासत तेंना भात उकडेचां अणिक एक काम ससे. थोडे लोक एका उबाचां तर थोडे दोन उबांचां भात करसत पावसाची बेगमी करणारेला भात उकडूनी सुकवे खुपदिवस जासत. तेच बरोबर भात सुकव्वेचां काम मिरगा आदीं करेवा लागसे. भात कांडनी तांदूळ केले उपरांत जागेकाराला उफार वाढे हवो. उफार म्हणचे सगळे वांयगणकारांनी मिळोनी, नवीन तांदुळाचो भात शिजवनी जागेकाराला पयली नैवेद्य दाखवप. कसलोही विकार, जालेवर उफार खातकच तो बरे हसे अशी समजूत सलेकारणान प्रत्येकजण आपापले घरा कडां उफार न्हेवनी थेयसत. म्हणजेच पयलो घांस

जागेकाराचो नंतर माणसाचो.

भात पिकवनी माणसाचे तोडांत पडेचे पयली तां भात कितकेसेच जीव खासत. रोव घालताना थोडां बीं मुंग्यो खासत. रोव रुजोनी एक म्हयनेचा हय पर्यंत टोळ खासत. भाताची लावणी करनी ती रोप मोठी हय पर्यंत गोरवां, वासरां, म्हसरां, डुकरां खासत. भात पिकलेनंतर वायंगणात सावजां, सुकर्णी, शेड्डे, चान्यो खासत. गुडवे वर दायळे उपरांत उंदीर, कोळींदर खासत. मळण्याचे वेळा मळण्याचे बैल किंवा रेडे खासत. भात वारां करनी घरांत हाडलेनंतर उंदीर अणि पिसोळीं खासत. रांदनी आमी जेयले नंतर मांजराला अणि कुत्रेला खायवे घालसो. शेवटी उरलेलां उष्टां भायेर उडयतकच कावळे अणि कोंबड्यो खासत. ते शिवाय येणारो जाणारो जेयसे. एकूण पिकयले धान्याचो अर्दो वाटो वेगवेगळे जीव खासत. हेचोच अर्थ असो की, माणसाचे हातान अन्नदान घडसे. माणसान स्वातासाठी कितकांय कमयलां, पिकयलां तरी तेला वांटेकारी हे ससत.

माणूस रोजचे जिवनात ज्ञानदान करीत ससे तेच बरोबर तेचे कडल्या अन्नदान आपसूख घडसे. विद्या दाना इतकाच अन्नदान हे सुद्धां श्रेश्ठ से.



6.

# आसरणां

अनादी काळा पाशणी धर्तरीवर नैसर्गिक क्रिया चालू ससत. वारो, वादळ, भुकंप, पावस, पूर, जमीन सरकणां, दऱ्यो कोसळणां, होर्नी पडप असलीं अरिश्टां सदां चालू ससत. तेचे वर माणसान तरातराचे उपाय काढले सत.

अगदी जुने काळांत माणूस पावसांत भिजो नये म्हणी तेडलां आपल्या गरजा प्रमाण, आपल्या अकला प्रमाण अणि कुवती प्रमाण वेगवेगळे कामासाठी वेगवेगळीं आसरणां तयार करूं लागलो. निसर्गाथीन मिळणारे अनेक वस्तूंचो उपयोग अनेक कारणासाठी करू लागलो. सगळेत पयली पावसा पाशणी भिजो नये म्हणी ऱ्हेवे खोप केलीन सैवी. खोपीची शिवणा दाट अणि मोठे पानानी शिवली सैवी. पयलीं माटवा सारक्यो खोपी, मग, सुळागीर खोपी करनी पावसा पाशणी आपली राखण करे सुरवात केलीन.

घराला आसरण, लाकडांच्या खोपीला आसरण, गोरवां वासराचे गोठेला आसरण, न्हाण्याला आसरण, शेतांतले माळेला अणि स्वता भिजो नये म्हणी आसरण करेची तजवीज माणसान केलीन. घराचां आसरण करे करमळाचे खोलेचां शिवण, रानातले माडांचे जातीचे चुडतांचां शिवण वापरे सुरवात केलीन. जसजशी माणसाची मती चालो लागली, कळाशी वाढो लागली तस तश्यो माणशान नवीन युक्त्यो काढल्योन. पावसांत जास्त टिकाऊ सणारे चुडतांचो वापर करू लागलो. पयलीं रानात गावणारे माडाच्या जातीचे चुडतांचो वापर, मग सहज गावणारे माडाचे अणि माड्यांचे चुडतांचो वापर

हव लागलो. काय काळाउपरांत करडाचां शिवण अणिक बरां अणि टिकाऊ हें लक्षांत येंव लागलां. कमी खर्चीक तसांच दिसे बरां म्हणी करडाचो वापर जास्त प्रमाणांत हव लागलो. करडान शिवलेली खोप आज शोभेची वस्तू म्हणी शहरात 'कुटीर' हें नांवान मणसाला ओड लायसत.

घराला आसरण करताना करडाचो जास्त वापर माणूस करू लागलो. करडान शिवलेली खोप दिसे सुंदर दिससेच. तेच बरोबर करडाच्या खोपींत पावसाचा गळटा अजिबात सत नाय. असली खोप बरीच उबदार ससे. गोरवांचो वाडो, लाकडांची खोप अणि न्हाणीघर सुद्धां असांच करडान अणि चुडतानी शिवोनी पावसा पाशणी न भिजेची कला माणसान आजमायलेली. ही शेकडॉनी वर्षाची रूढ आजपावेतो जिवंत थेयलीन से.

आज वेगवेगळे तरांचीं आसरणां बाजारांत विकत मिळसत. ती विकत घेवे मोटे कश्ट पडत नाय. फकत हवो तो पैसलो, झिगाचे पत्रे, शिमीटाचे पत्रे, ताडपत्री, प्लास्टीक, अशी तरातरांची आसरणां आज बाजारांत गावसत. पण जुने काळांत माणूस पैसे शिवाय कष्ट करनी आसरणाच्यो सोयी रानाथीन मिळवीत सलो. मग गांवटी नळे, सुलचे नळे, पाटणां, पत्रे, स्लेब अशा तराचे आसरणाचो उपयोग करूं लागलो. म्हणजेच माणूस जितको प्रगत हव लागलो, तितको तो निसर्गा पाशणी दूर जावं लागलो. जेडलां सिमेंटाचो वापर आसरणांसाठी हव लागलो तसतसे माणसाचे रोग बळांव लागले. चुडतांचे अणि करडाचे आसरणाथीन येणारी सुखाय अणी थंडायचे उलट सिमिटाचे आसरणांत माणसाला वैताग, मरगळ, गर्मी हेची जाणीव झाली से. प्रकृती बिघडसे हे कळसे. तरी सुद्धां माणूस तां टाळू शकतनाय. कारण 'सोडलां तर पळसे-धरलां तर चावसे' अशी गत मणसाची जाली से.

घर, खोप अणि गोठेचे आसरणा प्रमाण स्वतासाठी काम करताना, फिरताना जुने काळांतलो माणूस, तरातरांचीं आसरणां करनी वापरीत सलो. पोवल्यांचां धांगड, घुरमटा, कासळ अळवाचां पान, माडाच्या पात्यांची छत्री, बोणगीच्या पात्यांची छत्री, माडांचे चुडतांचां मरल वळणी तेची खोळ असली आसरणां वापरीत सलो. सुरवातीला माडाच्यो पोवल्यो चौकोनी मांडणी तेला ताठो धरनी आसरण तयार केलेलां सनार तेला धांगड असा म्हणसत. ता सरळ



नीट सले कारणान पाणी भितर येवनी भिजे हव लागलां. मग तेत सुधारणा करनी अर्दे गोलघुमटाचे आकाराचा धांगड वापरू लागलो. वांयगणात अणि कुळागरांत नडताना घुरमटेचो वापर जास्त हत सलो. घुरमटां तयार करेचां म्हणचे तशी ती कलाच सली. घुरमटेची आटी तयार करणा म्हणचे जाण्टेंची कामगिरी अणि मारगिरी, कला अणि कसब वाखाणणे सारकी सली. अर्दगोल घुमटाचे आकाराची कोंडेचे बेळांची आटी तयार करनी तेचेवर सुकलेले पानांचां शिवण करसत. शिवण खालथीन वरतीपर्यंत इतकां नीट ससे की तेत पाणी पाझरोनी भिजणां शक्यच नससे. कुळागरांत फिरताना कासळ अळवाचे पानाचो अणि केळीचे सोपाचो आदार बिनखर्चीक सलो. वांयगणात जोत धरताना वापरणारा ते काळांतलां आसरण म्हणचे एक नवलच सलां. माडाचे चुडताचां मरल वळनी तेच्या शिवड्या हारथीन खोळ करनी तां तकल्यावर घेवनी जोत धरलेल्यो खबरी आमचे जाण्टें सांगत. त्यो खबरी यवजुनी जाण्टेंच्या करामतीची कमाल यवजसे.

गोरवाना, मळावर घेवनी जाणारो राखणो बोणगीचे पात्यांची छत्री करनी

पावसाळेत वापरी. काठ्यांचो गोल आरकाटो करनी तेचेवर बोणगीच्या पात्यांचा शिवण करनी पावसा पाशणी आपली राखण करणारो राखणो म्हणजे अभियांत्रिकी विद्यालयाचो विद्यार्थी सयवे हवो असा दिससे. रानात बोणगीचे पात्यांची छत्री, शेतोडीत माडाचे चुडतांच्या पात्यांची छत्री वापरणारे अनादी काळाचे राखणे कडल्या असल्यो कला शिकोनी घेवेची संदी होगडायली हेचां माला दुख्ख हसे. तेचे नंतर कांबळीचो उपयोग हंव लागलो. आजकाल कापेतीची खोळ छत्री रेनकोट सारखी आसरणा बाजारात सहज मिळसत. सर्वसामान्य लोक हीच आसरणा वापरताना दिससत. जाण्टेंच्यो खबरी आयकोनी समादान हसे, ज्ञानांत भर पडसे. तेच बरोबर जाण्टेंचे कल्पना शक्तीची शक्ती कितकी दणकट सली हेचो अदमास येसे. अणि असां दिससे की आजचां प्रगत तंत्रज्ञान ते काळांत तेंचे कडां सता जालेवर इतकेत भारतदेश नंबर एक हजार सलो. तरी तो दिवस अजूनी दूर नाय.



7.

# कास

दर एक बोली भाशांत एका शब्दाला खूब अर्थ ससत, कास हे शब्दाचे अर्थ खूब सत. कास म्हणचे पंचो, धोतर, सवळां, नववारी कापड वा साडी नेसताना मिरयो काढनी मारसत तो कासाटो. एकादलां सामान भरेचा रिकामा बॉक्स, सिगरेटची कास फसकाची कास. चितपावनी बोलींत कास हे शब्दाचो अर्थ सोबत संगत असोय हसे. रानांत भोवोनी जनावरां मारप तेलाय कास असा म्हणसत. वेल्ले माथाळेचो अर्थ असो की मळावर नासणो पिकवप म्हणचे कास.

आमचे जाण्टें अगदी जुने काळांत पोटाची खळगी भरणेसाठी मळावर काबाड-कश्ट करनी जास्तीत जास्त नासणो पिकवीत सले. तरातराचीं पिकां काडनी आपलां पोट भरणारे जाण्टें खास करनी नासणेचे उत्पन्नावर जास्त भर देत सले. जाण्टेंना आजचे युगा इतकांच विज्ञान अणि कृषी ज्ञान तेडला अवगत सलां. पिकयलेलो नासणो अन्नरुपांत पुर्ण अन्न मानीत. भरपूर जिवनसत्वां सलेलो नासणो हें एकच उत्पन्न असां मानीत. जखम लवकर भरोनी येव्वे, डायाबिटीस कमी हयवे, ल्हान भुरगेंची वाढ बरी हयवे नासणेचा सत्व ल्हाना पाशणी मोठेपर्यंत सगळेना खायवे उपयुक्तसे हे तेडलाचे जाण्टेंनी जाणलेला. सगळे धान्यांत नासणो हें जास्त जिवनसत्वां सलेलां पीक, जास्त पीक देणारां बी. कमी कश्टांत जास्त पीक मिळणारो असो नासणो पिकवेची कला पयलीचे जाण्टेंना अवगत सली. तेच बरोबर नासणेंत ओखती गूण सत हे तेंचेय हेरलेलां.

दोंगर देंगणानी नासणो पिकवप तसां कठीणच. मळावर नासणो पिकयणां

थोडां सोपां सले कारणान जुने काळांत मळावर नासणो पिकवेची संद सोडीत नतले. कास करपाचां म्हणजे मिरगा आदीं काम सुरू करेवा लागसे. नासणो पेरनार जाले आदले वर्षा पावसाचे शेवटी जमीन नांगरुनी थेव्वी लागसे. मळावर मध्या मध्या सलेल्यो झिळी मारनी गावे करप. मळावर झाडांचो ताळो, रानांतलो पतारो लागीं करनी मळावर पसरूनी घालप, ताळो सुकले उपरांत नंतर तो जळवप. म्हणचेच जमीन भाजेचां काम करेवा लागत सलां. जमीन भाजपा बराबर अणिक एक काम करेवा लागत सलां. तां म्हणचे शेळखुंडाचो गोबर तयार करप. मळावर तसांच रानात फिरोनी शेळखुंडा जमवप. शेळखुंडां म्हणजे गोरवांचां सुकलेलां शेण. आपण केवड्या जमिनीची मशागत करणार ते प्रमाणांत शेळखुंडा जमवनी तेना विस्तव घालनी गोबर करेवो लागत सलो. तयार केलेलो गोबर साठवनी थेव्वे खोंपीची तजवीत करेवी लागत सली. गरजा प्रमाण मिरगाचो पाऊस पडेतोवर गोबर करनी थेव्वो लागे.

जुने काळांतले जाण्टेंना नासणो पिकवेच्यो दोन पद्दती खबर सल्यो. एक म्हणजे डोंगरांत आडवणांनी तसांच घळणांनी नासणो पिकव्वेची पद्दत. दुसरी म्हणजे मळावर नांगरूनी नासणो पेरप. मुठलो अणि कास ह्यो दोन पद्दती खबर सल्यो. मळावर नासणो पेरपाचा कडतरकारांची सुवात म्हणजे माटीचा मळ, हेदीचा मळ, खायली माट,जांबळीचो कणो, धनगर मळ, डोबाचां मळ, कोलेचा बीळ अशीं खूब मळां सली.

ह्यो सुवाती प्रत्येक जण राखनी थेवीत. पुडले वर्षा नासणो पेरनार जाले आदले वर्षा मळा नांगरूनी थेव्वी लागत. करड मरणेसाठी तसांच जमीन मऊ उरणेसाठी जमीन फोडप. शेळखुंडाचो गोबर करनी थेवप. हीं कामां मिरगा आदीं करेवी लागत.

मिरगाचो पाऊस पडलेवर जमीन गुठावनी समळ करप जेणे करनी पावसांत ताला हव नये हेची काळजी घेत. मोग सुके नासणेचा बी पेरप. तेच बरोबर गोबर सुद्धां पेरीत. आठ दिवसांत नासणो रुजोनी येसे. रुजोनी आयलेले नासणेला जर कसलो वाखो जालो जाले वर शेळखुंडाचो गोबर नायतर गायचा मूत शिंपडीत. तेडलां हें एकच ओखत सलां. तेणी तो वाखो नायसो हय अणिक पिकां सुधारत सली. मग नासणो गोरवांनी खाव नये म्हणी वंय



करीत. सयभवतारी खूट मारनी. हेंगाडो धरनी शिरीं बांदनी वंय गचपिचाद करीत सले. म्हणेपर्यंत नडणी काढेवी लागे. मग साधी राखण करेवी लागे. नासणेला पोटूर येवनी कणसां पिकेपर्यंत माळो घालनी रखवाली करेवी लागे. गवेरेडे, कुरगां, चितळां, मोर, डुकरांसारकीं जनावरां रात्रीची नासणो खायवे येसत. तेंचे पाशणी नासणो राखप म्हणचे मोठी जिकीर करेवी लागे. नासणो राखे माळो घालनी रात्रीचे वेळा फुगेटयांच्यो माळो पेटवनी थेवप. ठकठको लावप. नासणेत भुजगावणी लावप अशो कळाशो करनी रात्रभरी नासणो राखेवो लागे. नासणेचां कणस पुर्ण पिकले नंतर कणसां काडनी. कणसां बडवनी घरा हाडेचां काम पुरां जालां की सहा म्हयने राबलेलेचां समाधान हय. नासणेची भाकरी किंवा आंबील पोटांत पडे तोवर अणि खुबशीं कामां करेवी लागत. नासणो कांडप, सडप, सुटी करप, आसुडप, दळप इतके सगळे व्याप केले उपरांत भाकरी पोटांत पडे. वर्षभरी भाकरी खायवे हवी जालेवर अणि एक जोखमीचां काम सत सलां. तां म्हणजे नासणे व्यवस्थित थेवप. नासणो व्यवस्थित थेयलो जालेवर वर्षभरी नासणो वाईट हत नाय. नासणेला किड लागो नये म्हणी बेताचे कंडुलात भरनी किंवा गवताच्यो मुड्यो बांदनी नासणो थेवेची पद्धत सली. नासणो खूब दिवस टिकव्वेची जाणतेंची पद्धत

म्हणजे तेंची तोखणाय करील तितकी थोडीच.

परिस्थितीप्रमाण माणसाच्यो गरजो बदलसत. आजचे जमानेत सगळां दुकानात विकत गावसे. माणूस सदांच सोपा तां बगसे. म्हणी कष्ट करनी शेतां भाटां करीत नाय. दुकानांतलां विकतां घेवे पेसेची गरज जास्त म्हणी माणूस आजकाल पैसे पाठल्या धावसे. जास्त पयसो कमावनी आपल्यो गरजो भागवेचो विचार करसे. म्हणी आजकाल मळांचो वापर खेळे नाय जाले वर कारखाने, वसाहती बांदे जास्त हसे. तरी सुद्धां नासणो हें पुर्ण अन्न एक ओखती धान्य हें लक्षांत थेवनी नासणेचे उत्पन्नाची हयगय हयवेची नाय हें आजच्या पिळग्यान लक्षांत थेंवेची गरज से.

●●●

8.

# फळावळ

एका वर्षाचे दोन भाग केले जालेवर एक भाग सुके दिवस अणि एक ओले दिवस. म्हणजेच उन्हाळो अणि पावसाळो. उन्हाळो म्हणजे खेडवळ लोकाना हे लाणीचे दिवस. जास्तित जास्त उत्पन्न घरांत येणारे दिवस म्हणजेच लाणीचे दिवस. हे दिवसांत सर्दे अणिक वांयगणे भाताचां पीक, नासणो, पाकड, वरी, काजी, पणस, आंबे, अनसां हे सारकीं उत्पन्नां घरांत येसत अणि तेच बरोबर पयसो हातांत घोळसे. तशीच अणिक एखादी उत्पन्ना म्हणजे काजी, सोरो, नारळ, सुपारी अणिक केळीं. हेतलीं जास्तिशी पिकां मायाचे म्हयने पर्यंत घरांत येवनी पडसत. हे दिवसांत घरांत पोट भरी खायवे ससे. तसोच काजी, सुपारी, मिरी, केळीं, नारळासारखे उत्पन्नाथीन पयसो हातात घोळसे. थोडकेत दाणे-गोटेन अणि पैसे आडकेन घर भरलेलां ससे.

हे उत्पन्ना बरोबरीन तरातराचीं रानटी खायवेचीं फळां मिसळत. थोडकेत तेला 'रानमेवा' असां म्हणता येल. चुर्ना, कणेरां, काण्णां, चारां, करवंदां, पटकुळी, भेडसां, हासोळ्यां, जांबळां, बोरां अशी अनेक तरांचीं फळां हे दिवसानी रानात गावसत. तशींच घरालागीं गावणारी केळीं, आंबे, पणस, आतेरां, घोटां, मुट्टे, अनसां, सिताफळां, पोपायो, तोरगां अशी अनेक तरांचीं फळा खायवे गावसत.

रानातलीं फळां हाडणी खायवेची म्हणजे एक रानभवणी हसे. तसांच घरा देगाचीं फळां काडनी हाडेची वेगळीच मजा ससे. हे दिवस सुट्याचे सले

कारणान असले फळांचे निमतान रानात, कुळागरांत, काजीचे फालसणांत, अणि मळानी रिण्ड्यावे गावसे. हो तर भुरगेपणातलो टाईमपास हसे. रानात जावनी कणेरां अणि चुर्ना लागीं करप म्हणजे तसां जोखमीचां काम ससे. चुर्ना, कणेराचीं झाडां वेली कश्यो लांब जासत. तेना हात पावत नाय. हे झाडाना काटे सले कारणान हातान ओडनी लागीं करणा तसां कठीणच. तेसाठी बरोबर एक गडकी घेववी लागसे. नाय जाले ती गडकी रानातच काडेवी लागसे. कुमेटपिकीं कणेरां तशींच पुर्णपिकीं चुर्ना खायवे रूचीक लागसत. काडतां काडतां खाल्ली तर तेची रूच अणि समाधान वेगळांच ससे.

पटकुळ्याचीं फळां तांबडे रंगाची ससत. तीं फळां झुपकेनी लागसत, बघे बरीं दिससत. बगलेवर खाईन दिससत. पिकलेली तांबडीं फळां खायवे बरीं अणि रुचीक लागसत. काण्णां अणि चारांची चव एकदां घेतलेलो माणूस परत तेच दिवसानी परत सोदनी खानार हे नक्की. काण्णां अणि चारां दिसे जरी काळीं दिसलीं तरी खायवे गोड लागसत. करवंदांचीय गत अशीच ससे. जगमाचा झाड मोठा उंच वाढसे. जगमां दिवाळ्याचे दिवसानी भरपुर खायवे गावसत. जगमीचे झाडावर चडोनी बोल्सां भरनी जगमां काडप अणि खावप म्हणचे एक मोठेपण ससे. तशींच झाडावर चडोनी खांद्यावर बेसोनी जगमां खायवेची मजा निराळीच ससे. कुमेट पिकी जगमां तळहातावर घोळवनी चिरडूनी मऊ करनी खाल्लेवरच ती गोड लागसत. कुमेट पिकीं जगमां आंबट लागसत. जांभळां रंगान जांभळीं ससत. जांभळां खाल्लेवर जीभ सुद्धां जांबळी हसे. हीं फळां बिंयो वगळूनी खायवी लागसत. चवीन मातशी तुरट आंबट गोड अशींच ससत. हासोळ्या पिकले नंतर काळीं दिसलीं तरी खायवे गोड नतली तरी रुचीक ससत.

रानात गावणारे फळां बरोबर घरा लागीं गावणारी रुचीक, गोड, रसाळ अणि जिवाला ओड लायणारी फळा हे दिवसात खायवे मिळसत. पिकलेले आतेरांनी गर भरपूर ससे तितक्योच बिंयो सुद्धा ससत. आतेरां खायवे गोड लागसत. पण तीं खाताना आतेराच्यो बिंयो तोंडातले तोंडात वगळूनी थुकप अणि गर तितको खायवो लागसे. बिंयो वगळनी गर तितको खावप म्हणजे जिबल्याचा कसब ससे. पणसाची ही गत तशीच ससे. पणस सगळी कडा



गावसे. रसाळ पणसाचे गरे खाताना भिंगटा वगळूनी गरो गिळप म्हणचे आमच्या जिबल्याची कमाल ससे. समुद्र जशी घाण कचरो आपले पोटांत थेवीत नाय. तशीच आमची जीब सुद्धा फळातलो बेचव भाग किंवा बीयो वगळूनी खासे ही आमच्या जिबल्याची 'खासियत' असा म्हणेवा लागसे.

जसे पणस सगळी कडा सहज गावसत तशीच घोटां सुद्धा सगळे कडा गावसत. इतर सगळे फळा परस पेक्षा बाळांचा तसाच जाण्टेंचा आवडीचा फळ म्हणजे घोटां. घोटांचो उपयोग तसो खायवे अणि रायता करे हसे. घोटांची साटां सुद्धा थोडे लोक घालसत. म्हणी घोटां कुडावे लोक अगदी पहाटे भायेर पडसत. उजाडेचे पयली घोटां घेवनी घरा येणारे अणि चवीन खाणारे तसाच साटां घालणारे खूब जण ससत. झाडावेल्ली घोटां पाडनी खायवे खूबच मजा यसे. गुंडे नायतर ओंडके मारनी घोटां पाडप अणि खावप म्हणजे एक मोठेपण ससे. घोटां पेक्षा कमी प्रमाणांत मिळणारो आंबो. तो मग मानकुरात सो वा मुशारात, हापूस सो वा निलम, पायरी सो वा मालदेस, गांवठी सो वा बाजारी, आंबे खाल्लेवर जीव तृप्त हसे. घोटां सो नाय तर आंबे, हे दिवसांतच खायवे बरे लागसत. तसेच मुट्टे खायवे अणि निरो प्येवे लोक जीव घालसत. इतर

सगळे फळां बरोबर अनस खायवे मजा येसे. बाजारात सगळे फळां बरोबर अनसा विकत मिळसत, पण झाडपिकां ताजेलां ताजां अनस कापनी तेला मीठ अणि मिरसांगाची पूड लावनी खायवेचे पयली तोंडाला पाणी सुटसे. हे दिवसानी तसां केळेंचा पीक जास्त सले कारणान केळीं खायवे गावसत. केळेच्यो जाती खूप सत. सालदाटीं, रसबाळीं, सुकुंडी (वेलची केळीं) वसई, हजारी, सांवरबोंडीं चेंद्रबाळीं अश्यो अनेक जाती सल्यो तरी केळां पाचक तसांच जास्त जिवन सत्वा सलेलां फळ.

निसर्ग ठरावीक दिवसांत वेगवेगळे फळांचा पीक देसे. तेला सुद्धां एक वेगळाच महत्व से. ठरावीक फळाथीन माणसाला वेगवेगळे तराची आवश्यक जिवन सत्वां गावसत. ठरावीक दिवसांत ठरावीक फळां खाल्लेवर ठरावीक पद्धतीची जिवनसत्वा माणसाला मिळसत. म्हणी प्रत्येक ऋतुत उत्पन्न हणारी फळां खावनी शरीरांत उणीव सलेली जिवनसत्वा मिळयणेचो माणसाचो प्रयत्न सैवे हवो.

रानात अणि घरा लागीं अशीं तरतरांचीं फळां हे तीन म्हयनेत गावसत. देवान सृष्टी निर्माण करताना केंचे दिवसांत केंचीं फळां माणसाला हितकारक हे ठरवनी ते ते दिवसानी तीं तीं फळां मिळे सारकी केलीन सत. आमचे शरीराला फळा पोषक सले कारणान वर्षाथीन एकदां मिळणारी फळां खायवेच हवी. पण रान फळां, गावठी फळां, खायवेची सोडनी, आजकाल बाजारी फळांच लोक जास्त खासत. कारण तेत कष्ट कमी अणि सहज गावणे सारखी ससत. तरी सुद्धां गांवठी फळां खाणा हे शरीराला पाचक अणि पोषक ससे हे विसरतां कामा नये.

●●●

9.

# पणसुलां

माणूस आपलो जीव जगयणेसाठी तरातराचे खटाटोप करीत ससे. अगदी जुने काळा पाशणी आज पावेतो आपलो जीव जगयणेसाठी माणूस खूप यत्न करीत आयलोसे. पयलीचे काळांत जीव जगवेचीं पिकां उत्पनां अणि साधनां वेगळीं सली. आज वेगळीं सत. आज आमची पद्धत, व्यापार उत्पन्नां जीव जगवेचीं साधनां बदलली सत. हो बदल वर्षान वर्षाहत ऱ्हेणार. माणूस आजचो सो वा कालचो, पोट भरनी जीव जगवप हे माणसाचा सगळेत पयला अणि न टाळणे सारखां काम. आपला पोट भरणेची आजची कला अणि जुने काळांतली कला हेत खूप फरक से. हो फरक दिवसे दिवस होत जाणार.

जुने काळांतलो माणूस काबाड कश्ट करनी आपलां पोट भरीत सलो. भात, नासणो, वरी, पाकड, भाजयो, दुदी भोपळे किंवा इतर पोट भरतीचीं पिकां घेत सलो. तेच बरोबर साठ वर्षानी एकदां फुलणाऱ्या कणकीचो तांदूळ लागीं करीत सलो. हे सगळे पिकां बरोबर, सहा म्हयने पोट भरणे साठी सहज गावणारे पणसुलांचो वापर जास्तीत जास्त करीत सलो.

आमचे जाण्टेंनी पणसाच्यो भरपूर आळी केल्योन सल्यो. म्हणी पणसुलां हीं सर्वसादारण सगळीं कडा गावसत. जुने काळांतलो माणूस हे पणसुलांचो वापर पोट भरणे साठी करीत सलो. पणसाच्यो दोन जाती ससत. एक कापो दुसरी जात रसाळ. थोडे लोकांना रसाळ पणस आवडसत. अगदी कवळे पणसाचो चारकुटो, जून पणसाची भाजी अणि सालां, पिकलेले पणसाचे गरे

अणि सांजणा, पणसाची आठळ्यो भाजनी वा उकडुनी खायवेची तसेच हिरवे पणसाचे पापड घालप, असे वेगवेगळे प्रकारान आपलां पोट भरणेचो यत्न माणूस करीत सलो.

पणसाला दाबणा जरी जानेवारी म्हयनेत आयलीं तरी साधारणता शिगमे म्हयने पाशणी चवथी पर्यंत पणसुलां गावसत. जवळ जवळ सहा म्हयने गावणारे हे फळांचो वापर तरातरान करनी घेतसलो.

पणसाच्यो तशो जाती दोन सल्यो तरी तेचो वापर साधारण सारखोच हसे. आज पणसाचे गरे गाडेवर दुकानात प्लास्टिकच्या पिशव्यानी सहज विकत गावसत. विकते गरे हाडनी खाणे पेक्षा पणस फोडनी, तेचीं शेडां काडनी गरे खायवेची रूच जिवाला तृप्त करणारी ससे. दिकांत हात बरबटावनी गरे खायवे खूप मजा येसे. तोंडांतले तोंडांत आठुळी वगळूनी गरे खावप म्हणचे एक कलाच ससे. हाताला अणि तोंडाला लागलेलो दीक खोबरेल तेलान घालवप, असे सगळे अनुभव गरे खाल्ले जालेवर गरे खाल्लेलेचा खरां समाधान जिवाला गावसे. तेचेही पेक्षा झाडावर चढोनी पिकलेलो पणस वेल्ले वरतो खायवेचा समाधान वेगळांच ससे. तसांच पणसाची भिंगटा पडव्या वर घातलेले परसेत भाजनी खावप म्हणजे बाजारांतलीं भिकणां खाल्लेचा समाधान हसे. तशीच पणसाच्यो आठळ्यो उकडूनी खायवे बऱ्या लागसत. तेचे पेक्षा ती खोबरेल तेल अणि मिरसांगाच्या पुडीत बुडवनी खावप म्हणचे बाजारांतलीं भजीं खाल्लेगत दिससे. हे सगळे अनुभवा पेक्षा पणसाचां सांजण खावप म्हणचे लग्ना कार्यातलां गोडसां खाल्ले सारखो अनुभव गावसे. पिकलेले पणसाचे गरे वाटनी तेंचीं साटां घालनी, सुकवनी पावसा साठी थेव्वेची जिवाला हुरहुर मे म्हयनेत लागसे. जोरदार पावसाचे दिवसानी साटां तोंडांत चोंगळावनी खावप, म्हणजेच गोरवानी केलेलो रवंथ आनी माणसान तोंडांत चोगळावनी खाल्लेलीं साटां दोनी समान क्रिया सलेलेचो भास हसे. पणसाचे सालाची भाजी, मात्याला लायलेले आठुळ्यांचा सांबारां पावसाचे थंड दिवसांत खातकच जिवाला मिळणारी उब विसरता येत नाय.

जुने काळा पाशणी पणसाचो उपयोग वेगवेगळ्या तरान माणूस करीत आयलोसे. कोवळे पणसाचो चारकुटो करप, जुन जाले उपरांत शाक करनी



खावप. तसांच गरेचीं सालां काडनी मिठांत मळनी भिल्ले माडाचे मोठे दोणांत चेपणां घालनी थेवप, मग तेंची पावसांत भाजीं करनी खावप. तसाच पिकलेले पणसाचीं साटां घालनी थेवप. पिकलेले पणसाचीं सांजणा करनी खावप. तसांच गरे बारीक चिरनी ते तेलात तळनी पावसाचे दिसांत खायवे थेवप. अश्या हर तरान पणसाचो उपयोग माणूस करसे.

पणस पिकलेवर गरेंचां म्हंव काडनी तेत कण्यो अणि गॉड घालनी सांजण करप, पणसाच्यो आठुळ्यो मात्याला लावनी थेवप, इतकीं कामां माणूस आळस न करता करी अणि आपलां पोट भरी. पणस कोवळो सों वा जून पिकलेलो सों वा हिरवो, तेचो योग्य वेळा योग्य उपयोग करप अणि खावप, हीच माणसाचे गरज भागवेचा काम सला. पणस जून जाले पाशणी पिके पर्यंत पणसाची शाक किमान पैरेन एकदां खाणारे अणि पचयणारे लोक सले. थोडकेत सांगेचां म्हणजे माणूस एकही पणस फुकट घालवीत नतलो.

पणसाचे निरनिराळे पदार्थ तयार करनी, खायवेची कला माणसान अवगत केलेलीन. पणसाच्यो आठुळ्यो. मात्याला लावनी थेवप, गरेंचीं साटां घालप, सालां मिठांत घालनी थेवप, गरे तळनी अणि हिरवे पणसाचे पापड घालनी पावसाचो पुरीमेत करप म्हणजे ते काळांतले लोकाना साठवणूक करेचा विज्ञान

अवगत सलां.

आजचो माणूस व्यवहारिक जालोसे. पणसाचो उपयोग स्वता खाणे पेक्षा विकेला पसंती जास्त देसे. गरेचे चिप्स तळनी विकप. गरेंचे पापड घालनी विकप. तसांच रसाळ अणि कापीं पणसुलां विकप हो उद्योग झालोसे. कारण वहातुकीचीं साधनां माणसाचे दारांत पावलीं सत. आज पणसाचो घरगुती वापर कमी अणि पैसे साठी जास्त असो प्रकार जालो से. तेच बरोबर भरपूर पैसे मिळयणे साठी पणसाची झाडां कोंत्रातदाराला विकलीं जासत. कारण घराला मदेर, दारां, खिडक्यो, कपाटां. मेजां सोफासेट हेर लाकडी वस्तू तयार करनी घेवे लोकांची पसंती जास्त ससे. पणसाचा लाकूड जास्त टिकावू अणि दिसे मस्त दिससे. दिसे बरां अणि झकास दिसो, टिकाऊ सो वा पैसे साठी सो. माणूस पणसाचो झाडाचो उपयोग करनी घेवे पाठी ऱ्हेत नाय.

इतकां हे सगळां खरां सलां तरी आज झाडावर चडणारो माणूस गावत नाय. स्वता झाडावर चढता येतं नाय. म्हणी कदाचीत पणसाचो वापर कमी झालो सयेल. किंवा आज सगळां रेडीमेड गावसे. कष्ट करनी खाणे पेक्षा विकतचे खाणेला माणूस जास्त पसंती देसे. तरी सुद्धा आमी एक गोष्ट विसरता कामा नये की, प्रत्येक फळ माणसा साठी पुरक जिवनसत्वां देणारा सले कारणान आम्ही सगळेनी झाडां लाव्वेचीं अणि वाढवेची गरज से.



10.

# मोलाची देणगी

माजा शिक्षण डिचोल्या झाला. बि.कॉम ची पदवी मिळले उपरांत नोकऱ्याच्यो खटपटी सुरू जाल्यो. बँकाच्यो कारकुनाच्यो मुलाखती दिल्यो. पण नोकरी काय मिळ्ळी नाय. मग थोडे दिवसानी एका ओळखीचे माणसान एका नोकऱ्या साठी होलम हाडलोन. एका मिनाच्या कंपन्यात कोडली सारखे ते काळांतले दुर्गम भागात नोकऱ्याची नेमणूक नक्की जाली. पण काही कारणास्तव म्हण किंवा दुर्गम भाग म्हणी माला ती नोकरी नाकारेवी लागली. मग में ज्या शाळात एस.एस.सी. (अकरावी)पर्यंत शिकलेलो त्या शाळाचे फादरान आपल्या दहावीचे रात्रीचे वर्ग घेवे बलायलोन. दिडशे रुपये महिना पगाराची ती नोकरी पत्करली. दोन वर्षा ती मास्तराची नोकरी केली. मग काय घरगुती कारणान माला ती नोकरी सोडनी माजे मुळ घरा येववा लागलां.

मुळ घर म्हणजे कडतऱ्या. सत्तरी तालुको म्हणजे ते वेळाचो हो दुर्गम भाग. घरा ऱ्हेवे आयले नंतर कुळागराचां काम करेचां. दर दिवसा सकाळीं उठतकच बेडे कुडावे जायवेचां. उरलेले वेळांत बाकी कुळागराचीं कामां करेचीं. कुळागर शिपेचां. मनाय कांबेरेवर देखरेख करेची. म्हशींचां दूद काडेचां. शेण भरेचां. म्हशीना मळावर चरे सोडनी घालेच्यो. संध्याकाळा तेना सोदनी हाडेच्यो. रेडकांचां चार पाणी करेचां. गोठली धवेची. हीं सगळीं कामां करी पर्यंत रात्र हय. दुसरे दिवसा उठले वर एक ढाचेबद्द कार्यक्रम सत सलो.

हीं सगळीं कामां आमचे कडां जमेचीं नाय. कामाला माणूस कोण

गावेचो नाय. ऐवडे कश्ट आमचे कडां हयवेचे नाय. हे माजे वडीलान नेमकां जाणलेलान. म्हणी आमला तो सदांच 'तुमी शिका अणि नोकरी करा' असा सांगत सलो. तेचो तो दूर दृश्टीकोन लक्षांत न घेता किवा परिस्थिती मुळा में घरा न्हेवे आयलो. अणि हीं कामां करताना समाजा विषयी कय मनात विचारच येत नतलो. समाजा कडां सुद्धां माजां कितां तरी देणा घेणा से हे कय यवजतच नसलां. प्रत्येक काम वेळचे वेळा करप. ते साठी सातत्य, चिकाटी अणि भरपूर श्रम करप. वेळाचा नियोजन करप. असो माजो स्वभाव सले कारणान समाजासाठी काम करे वेळ मिळत नतलो. प्रत्येक काम मन लावनी करप. तां तडीला न्हेय पर्यंत जीव ओतनी काम करप. एक काम करताना दुसरे कामाचो विचार मनात येणा असले स्वभावाला लागोनी माझी गत पाटले तळा ''धाकलेले कोंबे'' गत सारखी झालेली.

'आवड सले सवड गावसे' म्हणसत तसो योग माला आयलो. माजे मोठे बोड्येला में सरकारी शाळांत घातलो. धाकटे बोड्येला वयाच्या अटी मुळा सरकारी शाळात प्रवेश मिळ्ळो नाय. म्हणी तेला मे 'ज्ञान सागर कला संघ शिक्षणीक संस्था' तार सत्तरी ह्या शाळांत के.जी.चे वर्गांत घातलो.

'ज्ञान सागर कला संघ शिक्षणीक संस्थान' सत्तरी तालुकेतली शिक्षणाची अडचण लक्षांत घेवनी, 'ज्ञान सागर बाल मंदिर' नावाची शाळा सुरू केलेली. त्या शाळांत मे माजे धाकटे बाड्येला घातलो. प्रत्येक वर्गांत माझो बोड्यो एक नंबरान पास हव लागलो. नेमकी हेच कारणाला लागोनी त्या शाळाचे 'पालक शिक्षक संघा' चे अध्यक्ष पदाची जबाबदारी माजेवर आयली. तेडला पाशणी समाजा बद्दलची आपुलकी सुरू जाली. दहा बारा पालका समोर बोलप, शिक्षणा विषयीची माहिती मिळवप, भुरगेना पुस्तकी शिक्षणा बरोबर इतर शिक्षणीक कार्यक्रम, स्पर्धा, भंवडी, जुने नवे खेळ, पावसाळी अणि हिवाळी सहल, वेगवेगळ्यो कार्यशाळा, वेगवेगळे स्थरा वर मिटिंगो अश्या तऱ्हाचे कार्यक्रम सुरळीत घडयणे साठी ज्ञान सागराच्या कार्यकारणी समिती बरोबर वावरेची संधी मिळो लागली. तेडलां माझी स्वतासोडनी इतरा बद्दल विचार करेची कुवत निर्माण जाली. समाजा कडा सुद्धा माजां देणा घेणा से हेची जाणीव जाली.

जश्यो वेगवेगळ्या व्यक्तीशी गाठीभेटी हव लागल्यो तशी माजे ज्ञानात भर पडो लागली. काम करणेच्या शैलीत सुबकता आयली. वैचारीक बदल घडे चालना मिळो लागली. ज्ञान सागरात राष्ट्रीय कार्यक्रम हत सले तसेच सणवार सुद्धां मनयतसले. ते कारणान वेगवेगळ्या क्षेत्रातले माणसांकडा ओळखी हव लागल्यो. त्या ओळखींचो उपयोग बरोचसो माजे ज्ञानात अणि वागणुकीत हव लागलो. दुसरे कडा आदरान मानान बोलप, एखादे कार्यक्रमात शे-दोनशे लोकांचे पुढेत बोलप, कार्यक्रमाचा पद्दतशीर आयोजन करप, शाळाचे पालकांच्यो मिटिंगो घेवप, सुत्रसंचलन करप, माजे वर पडलेली कसलीय जबाबदारी व्यवस्थित निभावप, अश्या प्रकारच्यो हर एक जबाबदाऱ्यो निभावेचे असे अनेक तऱ्हाचे गूण माजेत आयले. अणि समाजा साठी वावरेची आस्ता वाढत गेली. हें सगळां नजरात थेवनी या संस्थान माला कार्यकाअणि समितीत वावरेची संदी दिलीन. या संस्थाचो व्यवस्थापक म्हणी जबाबदारी पार पाडेचो विस्वास माजेवर थेयलोन. हें सगळां में ज्या संस्थाथीन शिकलो. त्याला 'ज्ञानाचो सागर' असां म्हणणा म्हणजे वावगा ठरो नये. ज्या शाळात भुरगीं पुस्तकी अणि परिसर अभ्यास शिकसत त्याच शाळांत में परिसर अणि माणुसकीचे धडे घेतले. म्हणी मे संस्थाचे जाळवणदाराचे विश्वासाला पात्र ठरलो. माझे आयुष्यांत माला हीच एक मोलाची अणि कायमची देणगी ठरली. थोडकेत सांगेचां म्हणचे माणूस एकुलगो ऱ्हेवनी माणूसकी शिको शकत नाय, तर तेला संधी हवी ती सुसंगतीची. शेवटी पुढच्या तरूण पिढ्या साठी एकच सांगेवा असां दिससे, की स्वता पेक्षा दुसरे साठी जगा. 'स्वतासाठी जगाल तर नाव घरापुरतां हयेल, दुसरेसाठी जगाल तर समाजात नाव उरेल.'



11.

# जुनां तां सोनां

आज काल माणूस इतको प्रगत झालोसे की नव्या वस्तुंनी जुन्या वस्तुंची जागा घेतली से. टिव्ही, फ्रिज, मिक्सर, वॉशिंग मशीन, ओवन, कुलर, एसी, मोबायल, वॉटर पंप अश्या कितक्या तरी वस्तुंनी जुन्या वस्तुंचो जागो घेतलोसे. तेला लागोनी जुन्यो वस्तू म्हणजे घरांत अडगळ झाली से. म्हणी लोकांनी जुनी आयदणां अणिक बाकिचां सामान बोगाराला, भंगारवालेला विकनी मोकळे जाले सत. म्हणजेच स्क्रॅपचो जमानो आयलो से. "Use and throw" ची क्रेझ आयली से. जुन्या वस्तुंना बाजारांत मोल उरला नाय. पैसेचे रुपांत वा वापरांत तेची किंमत भोपळो. शुन्याला तसा ते काळांत भोपळोच म्हणत सले.

'जुनां तां सोनां' असां जरी म्हटलां तरी माणसाला आज काल वेळा प्रमाणांत बदलेवा लागसे. असे बदल सदां घडत सनार. तरी आजचा जुनां तां उद्यांचा सोनां असां हे घडत ऱ्हेनार. कारण आज जुन्या वस्तुंना भरपूर किंमत आयली से. जुन्यो वस्तू आज लोक Style म्हणी वापरसत.

पयलीचे काळांत बांवीचा पाणी लाटीन काढीत सले. मग कळशाला दोरी बांदनी काढीत. तेचे पाठोपाठ रहाट गाडी वापरूं लागले. नंतर गाड्यो आयल्यो. कळश्याला दोरी बांदनी गाड्यान पाणी काढणा सोंपा हव लागलां. तेचे पेक्षा सोंपा म्हणजे पाण्याचे पंप वापरूं लागले. रॉकेल अणि डिझलचे पंप त्रासदायक हव लागले. मग लायटी वेल्ले पंपाचो वापर सुरू झालो. अगदी नवीन म्हणजे सरकारी पाण्याचे नळ घरांत बेसवेची सोय जाली. अगदी रांदेचे कुडी पाशणी बाथरूम संडास पर्यंत पाणी पावलां. तेडलां पाशणी बांवीचां



पाणी हाडेचां, दुडी भरनी कमरा वेल्या पाणी हाडेचां, न्हंयचां, व्हाळ्याचां, पाटाचां पाणी हाडप जमनीना टाईल्स (फरश्यो) घातल्यो म्हणी शेण सारवप जमनीला कानो घालप असे कितकेसेच त्रास कमी जाले. त्रास कमी म्हणणे पेक्षा व्यायाम बंद जालो.

कपडे होळे लोक नयला, पाटाला, व्हाळ्यावर जात. पण आज घरांत पाणी आयले कारणान कपडे होळप घराकडां हव लागलां. आज तरातरांर्ची वाशिंग मिशीना आयलीं म्हणी माणसाचो वेळ वांचो लागलो, तसेच त्रासय कमी जाले. तेच बरोबर शरीराची हालचाल कमी जाली, व्यायाम ही कमी जालो. होळनी सुकयलेले कपडेना फेर करे मडवळा कडा देणेन माणसाची खूबच सोय हव लागली. नायजाले कोळसेंचां फेर तापवप, अथवा वेळण्यावर इंगळे घालनी फेर मारप, किंवा कपडेंच्यो घड्यो हातरुणा खालती थेवप असे त्रास चुकले.

आयदणां घांसे सुद्दां असांच पाण्याला दूर जायवा लागे. आज आयदणा घांसप धुवप घरांतलें घरांत हसे. आज गोबर घेवनी आयदणां कोणच घांशीत नाय. वेगवेगळ्यो बाजारांत आयलेल्यो पावडरी अणि साबणान भांडी धुणा हें जिवाला हानीकारक जालां से, हें ''कळसे पण वळत नाय.''

घरात गाई, म्हशी, गोरवां पोसणा बंद झालासे. शेण भरप, गोरवाना खायवे

घालप, चरवे न्हेवप, वांसरांना चार हाडप हे सगळे कामां पाशणी माणूस दूर जांव लागलो से. घरांतलां ताजां दुध हे सगळे व्यापा मुळा नाकासां जालां से. डेअरीचा प्रक्रिया केलेला शेळां दुध वापरुनी माणसान आपले आरोग्या कडां दुलक्ष केलान से.

न्हायवेची सोय सुद्धां घरांतच जाले कारणान आज बांवीवर अणि न्हंयवर कोण जात नाय. पाण्यात प्येवे येतनाय. म्हणी माणूस सगळेत उपयुक्त असे व्यायामापाशणी दूर उरलोसे. ह्याच संदीचो फायदो घेवनी आज काय लोकांनी swimming pool उभारनी व्यवसाय सुरू केलो से. घरांतल्या न्हाण्याची अथवा थाळ्याची जागा गिझरान घेतलीसे. तेमुळा माणसान आपलो खर्च वाढवनी आरोग्याची हयगय चालूच थेयलीन से. दळप, कांडप, आसुडप हीं कामां घरांतलीं बायलां करीत सली, गहु, तांदुळ, नासणेचे पिठां साठी भायेर जायवा लागत नतलां. घरांत जातेवर दळीत. घरांतलां दळप बंद झालेनंतर बाजारांत पिठाच्यो गिअणि सुरू जाल्यो. आज बाजारांतल्यो गिरणी बंद हवनी पिठाचे पाकिटांचो जमानो आयलोसे, पुढची पिढी जेवणाचां पार्सल घरा हाडतील हेत कांयंच दुबाव दिसत नाय. पिकवनी हाडलेलो दाणो गोटो सुपान आसुडप वेंचप हत सला. आज तयार निवळ वेंचलेलो माल बाजारांत गावसे. घरांत कांडलेले भाताचे तांदूळ आसुडप, सांवाराप तसांच वेंचप हीं तिनय कामां सूप घेवनीच करेवी लागत.

आजच्या पिढ्याला बेतांचा सूप खबर नाय, तर 'टोमेटो सूप' खबर से. सुपाचो उपयोग जुने काळांत खूब हत सलो. शेतांत मळलेलां भात, सुपांत वारां करनी निव्वळ दाणो पदरांत घेवेची कला सली. आज शेतांचा सूप गेलां नी बैलजोडी गेली. नांगर जावनी पावर टिलर, ट्रॅक्टर आयले. थोडकेत माणूस मॅकेनायझ जालासे. मॅकेनायझेशनान माणसाला सूख गावसे, पण व्यायाम घालयसे हे तितकांच खरां.

यांत्रिकी करणा मुळा माणसाचो व्यायाम कमी झालोसे. छात्या ऐवजी पोटाची घेरी वाढत गेली. तरातराचे रोग बळावेचा हेंच एक मूळ कारण से. तसांच यंत्रामुळां प्रदुशण वाढत गेला. उदा. मोटारी, ट्रक,धाकटयो गाड्यो, कारखाने, प्लास्टीक इत्यादी मुळां वारेचां अणि आवाजाचां प्रदुशण सुद्धां वाढत गेलां.

जळव हवो जालेवर लाकडां करे कोयत्यो कुराडीची गरज सली. आज सॉ कटर वापरुनी लांकडां करसत. मेस्ताचे हातांतली विन्नी, किसुळी, खरवती, गिरबो, कुरतुम गेले. तेचांही काम तरातराचे मशीनानी हसे. घरांचीं दारां, खुर्च्याचे खुरांचा नक्षीकाम मशीनांनीच केलां जासे. हस्तकला पाठी पडोनी मशीन कलाच सुरू जाली से.

देव कार्यासाठी लागणाऱ्यो वाती, वस्त्रां सुद्धां आज बाजारांत मिळो लागलीं. वाती करणां, चरखेवर सूत तयार करनी जानवां तयार करणा, कपडे गोदड्यो हातान शिवणा, विणकाम, भरतकाम, उश्यो करणा. फ्रंज्यो शिवणां अशीं खुबशीं कामां कालबाह्य हत गेलीं सत. तेला-तुपाची वात, लामण दिवे, समई, निरांजनां पाठी पडो लागलीं. तेचां काम आज बल्ब अणि लाईटी करसत. रॉकेलच्यो चिमण्यो, कंदील, लाटण, पेट्रोमॅक्स, पणत्यो हेचो वापर बंद हवनी. बॅटऱ्यो टॉर्ची तेंचा काम करूं लागल्यो. हो बदल दिवसा दिवस हत ऱ्हेनार, घडत जाणार.

एक काळ असो सलो की ओझां गाढवा वेल्या नाय तर स्वता तकल्या वयल्या न्हेत सले. मग हात गाड्यो खटाऱ्यो गाड्यो आयल्यो. एता तर टॅम्पो, ट्रक, विमानां, बोटी, रेल्वे सारकीं खूब वाहनां उपलब्द जालीं. रस्तेचीं कामां फोनाची, लायटीची लायन घालपाचे कामाची हाजिरी जावनी मिशीनां वापरुनी हीं कामां हसत. माडावर चढे, सुपारी काढपाचीं कामां औषध फवारणेचीं कामां कल्लेन कुळागर शिंपेचीं कामां हाता भायर जावनी श्रमाचीं कामां उरली नाय.

जुनां तां सोनां असा कितकांय म्हटला तरी माणसाकडां मशीना शिवाय पर्याय उरलो नाय. शेती बागायतीचे कामांना आज काल मशीनांची अतिशय गरज से. कारण आज मानाय कांबेंरी मिळणा कठीण जालां से. मशीनाच्या मदीन कामां लवकर हसत. माणसाचां जिवन गतीमान जालेलां से. माणसाच्यो वाढत्यो गरजो लक्षांत घेतलेवर मशीनाशिवाय दुसरो पर्याय दिसत नाय. मशीना मुळा तसाच जुन्या पद्धतीन काम करणेची पद्धत बदलले मुळा माणूस व्यायामा पाशणी दूर जाताना दिससे. म्हणी माणसाला स्वताचा आरोग्य सांभाळणे साठी व्यायामाची गरज से.

थोडकेत सांगेचां म्हणजे माणूस आज श्रम कमी, अणि झटपट काम हेचेवर भर जास्त देसे. कमी श्रमांचो विचार माणसाचे मनात आयले कारणान

माणसाचे शरीराची हालचाल कमी हव लागली. म्हणजेच माणूस व्यायामा पाशणी दुरावलो. रोजची घरगुती अणि बागायती कामाथीन माणसाला कळत नकळत व्यायाम हत सलो. आज मिशीनांचा यूग आयले कारणान व्यायाम बंद जालो. माणूस वेगवेगळे रोगांना अणि व्याद्यांना आमंत्रण देव लागलो. आज स्वताचे पायावर कुऱ्हाड मारले सारखो प्रकार जालो से. तेडला ''आरोग्य हीच खरी धनसंपदा'' हें लाक्षांत घेवनी, आपलां शरीर कसां धडधाकड ऱ्हेल हेचे कडा लक्ष देव्वेची गरज से. कारण ''सर सलामत तो पगडी पचास'' घरगुतती कामा करेची सोडनी, सर्वस्वी मिशीनांवर अवलबुनी ऱ्हेवप म्हणजे ''हातचां सोडनी पळतेचे पाठी'' लागप अशी आज माणसाची गत जाली से.



12.

# आवार

खेडवळ भागांत तरातरांचीं पिकां काडलीं जासत तेतलांच अणिक एक फायदेशीर पीक म्हणजे काजिचां पीक. हें पीक इतर पिकांचे मानान तसां फायदेशीर फायदेशीर इतकेच साठी की काजुचे पिकाला कष्ट कमी तसांच कामय कमी. एकदा काजीचो रोपो लायले उपरात, तेचे पाठल्यां जास्त काम नससे. कडाच्यो झिळी बेंडनी निवळ करप. इतकां एकच काम करेवा लागसे. हें पीक फक्त अडीच ते तीन म्हयने भितरचां ससे. काजीचां पीक दुहेरी उत्पन्न देणारा सले कारणान काजकाराला तां फायदेशीर हसे. काजी लागल्यो की म्हुट्टे कुडावप, म्हुट्टेच्यो काजी पिळनी काडप. म्हुट्टेंचो रस काडनी सोरो काडे आवारकाराला न्हेवनी देवप अशीं मोजकींच कामां ससत. 'आवारकार' म्हणजे सोरो काढणारो. सोरो काढसत त्या सुवातीला आवार असां म्हणसत.

आवार हे शब्दाचो अर्थ म्हणजे जागा, सुवात तसांच शिवार. हे शब्दाला अणि एक अर्थ से तो म्हणजे सोरो काडेची सुवात तेलाच आवार असा म्हणसत. खेडवळ भागांत काजुचां उत्पन्न जास्त सले कारणान आवारा जास्त प्रमाणांत चालसत. आवाराची ओड सगळे खेडवळ लोकाना ससे. म्हुट्टेचो रोस घेवनी आवारावर जाणारे, लाकडां घेवनी जाणारे, सोरो विकत घेणारे अणि सोरो फुकट प्येणारे. आवारावर काम करणारे. टाईमपास म्हणी जाणारे. तसेच अबकारी खातेचे सायब अणि गार्ड असे खुपसे लोकांची पावलां हे तीन म्हयनेत आवारा वाटान वळसत. तेतले तेत प्येणारे ना ''उदार पादार आवारकाराचो आदार.''

शेकडेनी वर्षा पाशणी चालत आयलेला सोरो काडेचां काम आज पावेतो चालू से. सुरवातीला एक ओखत म्हणी सोरो तयार करेची रूढ सली. ती रूढ आज व्यवहार धंदो जालो से. तीन म्हयने काम णऊ म्हयने आराम. तीन म्हयने चालणारो काजींचो व्याप खूपसे लोकांची पोटगी जाली से.

संबंद गोवेत अणि खास करनी सत्तरी तालुकेत काजीचा उत्पन्न भरपूर से. जुने काळांत शेतां हाणोनी, मुठले करनी, कुमेरी करनी लोकानी काजीचे रोपे लावनी वाढयले. मग काजीचीं कलमां करनी मोठे प्रमाणांत लागवड केली. आजकाल काजीचा उत्पन्न म्हणजे माणसाची सहा महिनेची पोटगी हसे. कारण तेत तीन तरांचां मुख्य उत्पन्न गावसे, काजू बी, काजूगर, सोरो तसांच खूब लोकाना काम गावसे. लोकांची मोटमोटीं काजीचीं रेना ससत. काजी कुडावप काजी वळप, मुट्टे मळप, पायेनी मळनी मुट्टेचो रस काढप, रस घेवनी आवारावर जावप अशीं खूप कामां सले कारणान खूप लोकांची मनाय कांबेरेची काजकाराला गरज ससे. काजीची रेना सलेले लोकाना अशीं खूब कामां ससत. दिवस भरी चाललेलां हें काम रात्री अकरा बारा पर्यंत चालसे.

काय लोक मोट मोटे भाटकारा कडल्या काजीचीं रेना कोंत्रादान करे घेसत. भाटकाराचो खंड घालनी आपली पोटगी दिसवडो सोडयसत. थोडे रेनकारी दिसवडेन कांबेरी, मनाय कामाला थेवनी आपलो वरतावळो काडसत. खुपसे लोक आवाराचो कोनत्रात घेसत. भाट्यो लावनी सोरो काडसत. लोका कडलो मुट्टेचो रोस घेवनी भाट्यो लावे, सोरो काडे, पाणी भरे, कोळब्या वेल्यां रोस हाडे, तयार जालेलो सोरो न्हेवे खुपसे लोकाना आवारकारी पागारान कामाला थेयसत. आवार अणि काजीची रेना हेतथीन खुपसे लोकाना काम गावसे, अणि मिळकत हसे. तर काय लोकाना फुकटचो सोरो प्येवे गावसे.

आवारकाराचां काम तसां अवघड ससे. खोर्न घालप, भाण बेसवप. भांडाथीन बोणगीची पोकळ नळी दुसऱ्या मडक्याला जोडप. दुसरी मडकी जमनी पाशणी उंच उरणेसाठी माची म्हणजे साठी तयार करप. दुसऱ्या मडक्यावर पाणी चालू घालेला ओळके तयार करप. विस्तव घाले मोट मोटीं लाकडां जमवप, आवाराचे जागेवर माटोव घालप, माटवाला टेकोनी तयार जालेलो सोरो थेवे अणि न्हेवे खोप बांदप, अशीं खूप कामां आवारकाराचे पदराला येसत. तेचबरोबर रोस घालणारेचो हिशोब थेवप. सरकारी कागदपत्रां, हिशोब तयार करप अशीं सगळी तयारी करेवी लागसे.



प्रत्यक्षांत सोरो काडेचां काम तसां जोखमीचां ससे. मुट्टेचो रोस ठरावीक मापान भांडांत भरप. भांडाचे तोंडाला लाकडाचा म्होराल्लां अश्या तरान बेसवां लागसे की तेतथीन उब बाहेर जायवेची नाय हेची काळजी घेव्वी लागसे. रोस शिजो लागलेवर विस्तव सुद्धां हवो तितको कमी जास्ती करेवो लागसे. भांडांत तयार जालेली उब बोंडगीच्या नळ्याथीन दुसऱ्या मडक्यांत जाव लागली हेचो अदमास करनी त्या मडक्यावर सारखां पाणी घालीत ऱ्हेवप. जेणे करनी आयलेल्या उबाचा पाणी हवप म्हणजेच सोरो तयार हव लागप. तेला तोडप म्हणसत. तीन वांटे तोडप, एक वांटो रोस घालनी परत वरती सांगलेली क्रिया करप. ते नंतर येणाऱ्या उबाचां पाणी म्हणजे फेणी. अशाच पद्धतीन हुर्राक सुद्धां काढसत. फेणी सदांच कडक काढसत अणि हुर्राक लेव काढसत. फेणी अणि हुर्राक काढप म्हणजे विज्ञान, मोजमाप अणि स्टेटीसटीकचा पुर्ण ज्ञान तेडलाचे जाण्टेंना सलां हे नक्की हसे. वीस ते बावीस डिग्री मापणारी फेणी, चौदा डिग्री मापणारा हुर्राक काढप म्हणचे विज्ञान अणि स्टेटीस्टीकचो उत्तम नमुनो म्हणे हरकत नाय.

सोरो प्येणारे लोक हुर्राक गरम्याचे दिवसांत तर फेणी पावसाचे किंवा थंड्याचे दिवसांत घेसत. आज सोरो काडप, विकप हो धंदो जालो से. तरतराचे फळापाशणी आधुनीक पद्धतीन सोरो तयार केलो जासे, म्हणी प्येणारे लोकाना

तो सहज सगळीकडां गावसे. सोरो हे माणसाला व्यसन जाला से. हे व्यसनान खूब कुटुंबां सोंपलीं सत. ल्हाना पाशणी मोठे पर्यंत लोकाना पित्ताचो त्रास हसे अणि तेतच जीण सोपसे. व्यसन आवाके भायर पावोनी तेचो परिणाम आज खूपसे लोक भोगसत.

दिवसे दिवस माणूस बदलत जासे. प्रगत हसे. तश्यो सोरो काडेच्योपद्धती बदलत गेल्यो. कारण माणूस सदांच सोपा सहज कमी खर्चाचा अणि कमी कष्टाचां काम आपणायसें. सोरो काढपाच्या जुन्या पद्धतीत माणसान बदल घडवे सुरवात केलीन. मडक्या वजा बेरलांत बेसयलेली आलंबी वापरे सुखात केलीन. बोडगीचे नळे वजा रबरची कॅनवेस सलेली पायपां वापरू लागलो. म्होराले वजा सिल सलेला भाण वापरु लागलो. पाणी भरे पाण्याचो पंप, भांणातलो गोडो उसपे रबरची कॅनवेस सलेलीं पायपां, म्हुट्टेंचो रोस काडे मशीन अश्या अनेक सोयींचो उपयोग करू लागलो. आवारावर लाकडां, तयार जालेलो सोरो घरा न्हेवे गाड्यो अणि इतर वाहनांची ची सोय केलीन. तेच बरोबर म्हुट्टेंची खरेदी करूं लागलो. अशातरान वेगवेगळ्यो कल्पना करनी आधुनीक अवजारांचो वापर करू लागलो.

सोरो तयार करप ही कल्पना जाण्टेंनी केली. सोरो तयार करेची कला तेंना अवगत जाली. सोरो तयार केलो तो ओखत म्हणी तयार केलो. असा म्हणसत की 'सोरो जिवाक बरो, चड घेतलो तर दिता मारो'. खरांच सोरेत खुपसे ओखती गूण सत हे जाण्टेंनी हेरलेलां. नजे पुरे जालेवर थोडी फेणी घेतलेवर विसव गावसे. म्हणजे फेणी हे उत्तेजक ओखत, फेण्याला थोडी प्रक्रिया करनी दोन दोन चमचे फेणी पिलेवर थंडी अणि दमेवर हे ओखत म्हणी काम करसे. भरपूर ताप आयलेवर आंगाला फेणी घांससत. कित्येक ओखतानी फेण्याचो थोडो अंश ससे. गांवठी ओखतां वाटनी लावे फेण्याचो वापर करसत. जखमावर फेणी ओतलेवर जखम रोकडी भाजोनी येसे. तसांच दमे साठी सुद्धां हे ओखत गुणकारी से. म्हुट्टेंचे रसांन मसालो घालनी काढलेली 'मसालो फेणी' अधीक गुणकारी असा म्हमसत. थोडकेत सांगेचां म्हणजे थोडे प्रमाणांत घेतलेलो सोरो म्हणजे 'श्वसन' जास्त प्रमाणांत घेतलेलो सोरो म्हणचे 'व्यसन'.



13.

# सर्वांगी व्यायाम

पयलीचे काळांत माणूस काबाड कश्ट करनी आपला अणि आपले घरचेंचा पोट भरेचो यत्न करीत सलो. तेच बरोबर अणिकय कांय गजाली करे विसरत नतलो. सणावाराला सोयरे त्या जाणां. तसांच शेजाऱ्यात्या गजालीना जाणां सुद्धां हत सलां. कारण इतकांच की भरपूर श्रम केले नंतर माणसाला विसावो हवो. तसो टाईम पास ही हवो. सोयरे-धायरेत्यां गेले नंतर गजाली अणि इस्पीकांचो खेळ. ते काळांत रोकडांच सोयरेत्या जावनी येणा शक्य नतलां. चालत जायवां लागे. नाय जालेवर एखाद्या सलेल्या बशीन जायवां लागे. खेडे-पाडेनी तर बसीच नतल्यो. म्हणी जास्तसो प्रवास पायीच हय. सोयरेत्या जावनी येणा म्हणजे दोन तीन दिवसांची घड सय.

सोयरेत्या जातकच इस्पिकांचो खेळ ठरलेलोच सय. इतर खेळ सलेच. पण जाण्टेंचो खेळ म्हणजे इस्पीकांच. जाणतेंचा बगनी भुरगीं सुद्धां इस्पिकां खेळत. इस्पीकांचे खेळ खेळताना जास्त करनी कोट मारपाची रुढी जास्त सली. रात्रीचे वेळा तर रमींचो खेळ जास्त चाले. उशीरा रात्री पर्यंत हे खेळ चालत. इतर खेळही सत सले. जशी लहर तसे खेळ. तेराकी, मेंढी, पांच-तीन-दोन, कोट रमी, बदाम सात असे नाना तराचे खेळ खेळले जात. पयलीचे जाण्टें खास करनी इस्पीकांनीच खेळे. एकीकडा जमत सले. आठवडेथीन एक दिवस एकटेत्या खेळेचां असो नेम सलो. असो हे ठरलेले दिवसाला फिश्ट म्हणत सले. आज तुजेत्या फिश्ट, तर आठ दिवसांनी माजेत्या. असो क्रम ठरत सलो.

फिश्ट म्हणजे चणेंचो रोस करप अणि तेचे बरोबर खायवे चपात्यो करप. शिवाय भात, सांबारां सलांच. जीभ अधीक हुळहुळो लागली की कांदेची भजी तळेचो कार्यक्रम सत सलो. नाय जालेवर मिरसांगो तळीत. सगळे जण एकी कडां जमोनी खात, खेळत अणि मजा करीत. खायवे खेळे अणि गजालीना सगळे जमले तरी, जाण्टें एक गजाल विसरत नतले. कोण कोणाचा शक्यतो फुकट खात नतलो. फिश्ट करे येत सले, तरी सगळे जण मिळोनी दोन तीन तास मरोळ्यावर बेसोनी सुपारी सोलीत सले. ते नंतर चणेचो रोस खावनी खेळे बेसत. कामय करीत अणि करमणुकही करीत सले.

जाणतेंचां बगनी भुरगीं निरनिराळे इस्पीकांचे खेळ खेळत सली. भुरगेचे खेळ म्हणजे, गाढवांचो खेळ. तसेच इतर ही खेळ सलेच. बुर्र, झब्बू, भिकार – सावकार हे खेळतर सलेच. तशींच भुरगीं जोड्यो लावचेनी खेळत सली. हे सगळे खेळांबरोबर अणिक एक टाईम पासचो खेळ सलो. तो म्हणजे इस्पिकांचे तरातरांचे जादू. भुरगीं एकामेकाला तरतराचे नवीन जादू करनी दाखवीत. अणि शाबासकी मिळवीत. असे भुरगेबद्दल बाकीचेंचे मनात कुतुहूल तयार हत सलां. जादू करनी दाखयणारो भुरगो सगळेना लक्षांत उरेल असे जादू करनी दाखवी. म्हणी अशी भुरगीं सगळेचे लक्षात उरत. इस्पिकांचे खेळात जशी जादूसे. तशीच जादू इतर खेळांत ही ससे. हे जाण्टेंनी जाणलेलां. म्हणी तकल्यात जादू करणारे खेळ जाण्टें खेळत सले.

तकल्यांत जादू करणारो खेळ म्हणजे बुद्धीबळ. दिवसभरी काम करनी थकलेले तेडलाचे जाण्टें लोक मळावरले खेळा पेक्षा बसकलीचे खेळांना जास्त महत्व देत सले. फरोमारो, वाघशेळी, बुद्धीबळ, ताबलां सारखे खेळ मेंदुला चालना देणारे खेळ. असले खेळांची तेडलाचे लोकाना ओढ सली. तशीच उमेदही सली. संसार उबो करताना संसाराचा रहाटगाडगा चालयताना वेगवेगळ्यो चाली खेळेव्यो लागसत. तशोच असले खेळांत सुद्धां तरतराच्यो चाली खेळेंच्यो लागसत. जो माणूस तकल्यान फीन ससे तोच असले खेळांत जिकसे.

जिकणे हरणे पेक्षा असले खेळांत मेंदुला व्यायाम हसे. चालना मिळसे

हे जाण्टेंनी जाणलेला. मेंदू बरोबरच शरीरालाही व्यायामाची गरज से हे ही जाणलेला. इस्पीक, ताबलां, बुद्धीबळ, फरोमारो वाघशेळी असले बैठे खेळाबरोबरच मळावरले खेळांची जाण्टेंना आवड सली. आजकाल जो तो क्रिकेट वर जास्त भर देसे. फुटबॉलचां सुद्धां पिसां सेच. तेडलाचे दिवसानी असले खेळ हे शिवारात नतले. आजकालचे जास्तसे भुरगे खेळाकडां जास्त लक्ष न देता, टिव्ही, मोबाईल, लॅपटोप अणि टॅबलेट मध्या जास्त गुंतलेले दिससत. ते जमानेतलो माणूस तसो टाईमपास करी. आजचे जमानेतलो माणूस असो टाईम पास करसे. ते जमानेत हुतूतू सारखो खेळ खेळोनी आपले शरीराची हालचाल करनी स्वताचे जिवाला व्यायाम घडवीत. कोंयडेबालांनी खेळोनी आंकडे मोडीचां गणीत शिकत. गड्डेंचो खेळ खेळोनी आपली अचुकताचा दर्शन घडवीत. मोखचेनी खेळोनी आपले नेमाचां कौशल्य सिद्ध करीत. लंगडी खेळोनी आपलेतली क्षमता दुसरेंना दाखवनी देत. धरचेनी खेळोनी आपली चपळता कायमची जिवंत थेयवेचो यत्न करीत. कुटुऱ्यानी खेळोनी मौनव्रता सिद्धता सिद्ध करीत. मोठे लोकांचे खेळ ठरावीक सले. पण भुरगेसाठी खेळांची मर्यादा नतली.

भुरगीं सगळ्यातराचे खेळ खेळे पटाईत ससत. जाण्टेंना सगळेच खेळ जमसत असा नाय. भुरगेंचो आवडतो खेळ म्हणजे लंगडी. लंगडी घालनी दुसरेला धरप महणजे एका पांयेवेली कसरत सली. लगोऱ्यांचे खेळांतथीन भुरगेंची अचुकता दिसत सली. लगोऱ्यांचे खेळांत कट्यो वापरणा म्हणजे काटकसरीचा लक्षण दिसत सला. कुटुऱ्यांनी खेळप तसाच धरचेनी खेळप म्हणजे धावपळींची सवय शरीराला लावनी घेतले गत हय. खोखो अणि म्हेडीना धरनी खेळेचो खेळ सलो हो खेळ भुरगींच जास्त करनी खेळत. शिगमेकडां घराचे दारांत घातलेले माटवात भुरगीं खेळत. माटो घातलोरे घातलो की म्हेडीना धरपाचे खेळाला भुरगी जास्त पसंती देत. असे माटवा खालती खळेत काजीनी खेळप, गड्डेनी खेळप, मोखचेनी खेळप हे चालूच सत सलां. पांच गुंडे किंवा पांच काजीचो खेळ होतर बसकलीचो खेळ. हो खेळ जिवाला सुखाय देणारो असोच खेळ. ते शिवाय अणिकय बेसकलीचे खेळ ते

वेळावर खेळत. ''ताईचा रुमाल हरवला'' हो खेळ भुरगेनी गोलाकार बेसोनी खेळेचो खेळ. हो बेसकलीचो खेळ मजेशीर असो ससे. तेचेही पेक्षा मजेशीर खेळ म्हणजे आंधळेचो खेळ. दोळेनां पट्टी बांधनी बाकीचे भुरगेना धरप. हे खेळातयीन भुरगेना हसेचो व्यायाम हसे. ल्हान भुरगेसाठी अणि एक खेळ म्हणजे, बोटांचो खेळ. दोन्ही हातांचीं बोटां जमनीवर तळवे तेकवनी धरप अणि खेळप. हे खेळासाठी जुनां एक पद म्हणेवं लागसे. तां असा 'ऐटीक मेटीक चणे चाटडीक, चणे झाले गोड गोड जिभेला आला फोड फोड.'' धरपाचे खेळात सुरवातीला 'राम रय सय सुटल्यो'' असां म्हणानो हार घालनी खेळ सुरू हसे. आपापलो गडी ठरवणेसाठी प्रस्न उत्तरां पण सत सलीं.

उदाहरण म्हणजे ''कोणाला कोलो हवो का कुत्रो''. ''वाघ हवो का सिंह हवो''. ''कोणाला गाढव हवा का घोडो.'' ''कोणाला राजा हवो का गुलाम.'' तेवेळा मात्र एकामेकाला चिडवेची संधी गावसे. काही खेळ असे ससत की तेंत पण म्हणीनी खेळाची सुरवात हसे.

कोयंडेबालांचो खेळ तर जाण्टें पाशणी भुरगे सगळेच खेळसत. हे खेळांत कोंयडो अणि बाल तयार करेचां काम ससे. बरां उडसे तसलां बाल करप. कोंयडो बरो वजन सलेलो करप. ही हे खेळातली कसब. आपलां बाल कोंयडो आपणच वापरप. दुसरेला देवप नाय अशो कला हे खेळात ससत. तेच बरोबर 'हुरी' तयार करप, बाल कोलयणेसाठी वेगळी एक काठी घेवप. बाल कोलयताना मोठ्यानी कोलेऽऽ कोलेऽऽ म्हणप. समोरचेन होकार दिलेवरच कोलवप. अश्यो कांय अटी, नीयम सत सले. ते वेळावरची मजाच वेगळी सली. हे सगळा यवजों लागला की, ''बालपण देगा देवा'' असा म्हणेवा असा दिससे.

●●●

14.

# पोरसूं

पोरसा करनी आपलो उदरनिर्वाह चालवेची पद्धत पयर्लीं पाशणी चालत आयली से. माणसान आपलां पोट भरेला तरातरांचां उत्पन्न घेवनी पयसो कमावेची अणि आपला पोट भरेची कला आत्मसात केलेली से. जुने काळांतलो माणूस भात, नासणो, वरी, पाकड तांदूळ पिकवनी आपलां पोट भरीत सलो. तशीच पोरसां. तेत कांदो, मिरसांग भाजी पिकवनी, मिठ मिरसागाची तजवीज करीत सलो. शक्यतो कांय विकत हाडेवा लागो नये होच उद्देश सलो. ते काळांत सगळ्यो वस्तू विकत घेवप म्हणजे पैसेची चणचण सली. एताचे सारख्यो सरकारी सवलती नतल्यो. अणि हवो तितका पयसो सुद्धां हातांत घोळत नतलो. कष्ट करनी तरातरांचीं उत्पन्ना अणि पिकां काडनी आपले कुटुंबाचो पोट भरप अणि पयसो मिळवप इतकांच ते काळांतले लोकाना खबर सलां. म्हणी गिमात अणि पावसात लोक पोरसां करीत सले.

पोरसां दोन तरांची सलीं तरी तेत पिकववेचीं उत्पन्ना मात्र एकाच तराची ससत. पावसातले पोरसानी मिरसांगाचा उत्पन्न जास्त प्रमाणात घेसत. तर गिमातले पोरसांनी कांदेचां उत्पन्न जास्त प्रमाणात घेसत. जास्त करनी पोरसानी मिरसांगाचां उत्पन्न जास्त प्रमाणात घेसत. तेच बरोबर बाकिच्यो भाज्योय पिकयसत. पावसाचे दिवसांत पोरसाना शिंपणा घालेवा लागत नाय जालें गिमात शिंपणां घालनी पोरसां वरती काडेवी लागसत.

पावसाचे दिवसांत पोरसूं करप म्हणजे पावसाआदीं एक म्हयनो तयाऱ्याला

लागेवा लागसे. काजीचे फालसणांत उघडो सलेलो जागो पालतावनी थेवप. काजीनी मध्यां मध्यां खडल्लां ससत. ठरावीक जागे वेल्ली काजीचीं झाडां मेलीं की तो जागो उघडो म्हणजे मोकळो हसे. त्यांहा परत काजीचे रोपे लायणेसाठी पावसांत पोरसूं करेवा लागसे. कारण इतकांच की, पोरसां मुळा काजीचे रोपेंचा इतर जनावरां पाशणी संरक्षण हसे. अणि लायलेलो रोपो सहजासहजी मरत नाय.

अशी उघडीं सलेलीं खडलां पालतावनी तो सगळो जागो बेंडनी, हेगडा तेगडा बेंडलेले गावे ते खडलांत मांडप हें महत्त्वाचां काम ससे. सगळी उघडी जागा कवळानी धाकनी घेवेची. मग तेला विस्तव घालीत. विस्तव घातले कारणान जमीन बरी भाजोनी येसे अणि सुपीक हसे. म्हणी मिरसांगाचां पीक बरां येसे. तसेच काजीचे रोपे बरे गुलगुलीत हसत. तेच बरोबर अणि कय एक काम ससे तां म्हणजे वंयचां सामान जमवेचां. वयला लागणारे खूंट, शिड्डां, आड्यो अणि वय बांदे रानातल्यो वेली. इतकां सामान मिरगा आदीं जमवेवा लागसे. थोडे लोक सापडवेलीच हाडसत कारण त्यो चिवट अणि घट्ट ससत. सापडवेलीचो फास खूप दिवस टिकसे. काय लोक गारकांड्याच्या वेली वंय बांदे वापरसत. गिमाचे दिवसांत कुमयेचे दोर सुद्धां वापरसत. जमीन भाजनी जालेनंतर तो जागो निवळ करेचो. मिरगाचो पाऊस सुरू झालो की वंय करेची. पाऊस पडले नंतर जमीन मऊ अणि सईल हसे. म्हणी वंयला खूट मारे सोपा हसे. वंयचे भायेल्ल्या पाणी जायवे चारी वाटान खळगी खणे लागसे. वंय अगदी गचपिचाद करेवी लागसे. वंयीथीन ससे, कुरगां सारखी इतर जनावरां भितर येवं नये हेची काळजी घेव्वी लागसे. वंय इतकी गच्च हयवे हवी की चीट पाखरु सुद्धां भितर जाता कामा नये.

हीं सगळीं कामां करेचे आदी मिरसांगाचो रोपो रुजवनी काढेवो लागसे. वीस ते तीस दिवसांचो रोपो पोरसांत लावे योग्य असो अंदाज करनी मिरसांगांच्यो बिंयो खांदळ करनी रुजत घालेव्यो लागसत. तेलाच आवन असा म्हणसत. मिरसांगाचो रोपो रुजवनी काडे तश्यो खटपटी खूप ससत. घरा देगाला थोंडिशी जमीन खणोनी दिफळां फोडनी मग तेत शेणाची गोबरी मिसळावनी एका खांदळ तयार करेवा लागसे. मग तेत मिरसांगाच्यो बिंयो

पेरेच्यो. ह्यो पेरलेल्या बिंयो पाण्यान अस्ताव्यस्त हव नये म्हणी तेचेवर पातळ गवत फाफडेवां लागसे. हेचे दोन फायदे हसत. एक बियों व्हांवत नाय. दुसरो फायदो म्हणजे रुजलेले रोपला थंडाय उरसे. किंवा आवना वर ल्हानसो माच घालनी चुट्टानी धाकनी थेववेचां. तेचोय एक फायदो म्हणजे पाणी शिंपताना बियों एकी कडां चोंबो हवनी ऱ्हेत नाय अणि रुजोनी आयलेले कोमाना मार बेसत नाय. हें धांपण फक्त आठ ते दहा दिवस थेव्वा लागसे.

साधारणता वीस ते तीस दिवसांचो रोपो पोरसात लाय सारखो हसे. असो रोपो पोरसांत लायतकच ते रोपेला साऊळ घालेवी लागसे. किंवा 'पोरसाक ताळो घालूंक जाय' असां म्हणसत. ताळो म्हणजे जास्त करनी कुडेचे झाडांची पानां वापरसत. हालींसरा ताळो घालनी तेचेवर बाजारी सारां पेरसत. जुने काळात फकत शेण घालीत. कारण सारेचो प्रकार तेडला नसलो. ताळो घालेचे दोन फायदे ससत. एक म्हणजे जमीन सडत नाय. दुसरो म्हणजे रोपेला बरेतलां बरां सारां गावसे. वेल्ली वेल्ली सारेची माती व्हांवोनी जात नाय अणि नैसर्गीक सारां रोपेला गावसे असे दुहेरी फायदे करनी घेवेची कला माणसान अवगत केलेलीन. अश्या भाजलेल्या जमिनीत मिरसांगाचो अणि काजीचो रोपो गुलमटीत हसे. साधारणता दोन म्हयने नंतर रोपो फुलो लागसे.

हे सगळां करीत सताना तेतच तांबडी भाजी, मुळो, गड्डे हे सारख्यो भाज्यो पेरसत. तशोच वंयचे कडाकडान तवसेच्यो बिंयो सुद्धां रुजवनी काढसत. वालीचे वेल रुजवनी काडे पोरसाकार विसरत नाय. तवसेचे अणि वालीचे वेल वाढसत तस तशीं तेना धेकां म्हणजेच शिरी लाव्वी लागसत. शिरेंवर वेल पसरोनी तेना तवशीं अणि वाली भरपूर लागसत. पोरसांत गेलो की पिपऱ्यो खायवे बरी मजा येसे. घरा येताना कसली तरी मुठभर भाजी घेवनी येवे गावसे. हे सगळे बियाणे बरोबर मिरसांगांचे मध्यां मध्यां रोजांचीं बिंयासुद्धां पेरसत. हीं फुललेलीं रोजां दसरो दिवाळी अणि पाडवेला उपयोगी पडसत. आजकाल लोकांचे घराकडां हवी तितकी रोजां फुलणा कठीण जालां से पण बाजारांत हवी तितकीं रोजा मिळणा सोपां जालां से. भाजो तवशीं मिरसांगो, रोजां आजकाल कोण पिकवीत नाय. कारण पिकयणा कठीण, बाजारांतथीन हाडणा सोपां जालां से.

पोरसानी मिरसांगो तवशीं वाली रोजां लायसतच. पण मध्यां मध्यां एकेक काजीचो रोपा न विसरता लायसत. पोरसाच्या रखवाल्या बरोबर काजीचे रोपेची रखवाली हसे. म्हणी तो काजीचो रोपो बरो वाढसे. काजीनी उगीच जळीमळी लायलेले रोपे पेक्षा पोरसानी लायलेले काजीचे रोपेची वाड बरी हसे. उगिच पिका बरोबर काजीचे उत्पन्नाची ही एक तरतुद करे जाण्टें विसरत नतले. आजकाल पिशव्यानी वाढयलेली काजीची कलमां लायणेवरच जास्त भर देसत. कारण इतकाच की, माणूस सुखसोय अणि जास्त उत्पन्न हेचो विचार जास्त करसे. खरां म्हणजे पोरसांनी काजीचो रोपो लावनी वरती काढप हो खरो उद्धेश सलो.

चतुर्थी कडा फुलो लागलेले रोपेला मिरसांगो लागोनी सप्टेम्बर म्हयने पर्यंत पिको लागसत. जून जालेली मिरसांग काडनी, खळेत सुकवनी वर्षाचो पुरीमेत करे माणूस विसरत नाय. व्यापारी दृष्टीकोनाथीन पोरसू करणारो माणूस सगळेत पयलीं काडलेलां मिरसांगांचां उत्पन्न विकनी पयसो कमायसे. शेवटी येसे ती बारीक बारीक मिरसांग स्वताला खायवे थेयसे. असल्या बारीक बारीक मिरसांगाला ‘बुड्डो’ असा म्हणसत. मिरगावर सुरू जालेला पोरसाचां काम दिवाळ्यापर्यंत सोपसे.

जशी पावसांत तशीच गिमातय पोरसां करसत. पावसाळेतले पोरसा प्रमाण गिमातले पोरसाला पाणी शिपेचा काम जास्त ससे. पावसांतली पोरसां काजीतले आडवणानी करसत. कारण त्यांहा पाण्याचो निचरो हसे. गिमातलां पोरसूं सर्दाचे जागेत करसत. पावसातलां सर्दां भात पिकवनी कापनी जाला की पोरसाना जागे तयार करू लागसत. जमीन खणोनी, ढिफळा फोडनी, खांदळा तयार करू लागसत. तशीच पोरसांना वय करे सामानाची जमवा जमव करनी वंय करसत. रोपेचा आवन काडनी रोपो पोरसांत लावेची तयारी लवकरच सुरू करसत. तेचेच बरोबर कांदेची पात सुद्धां लायसत. हे दिवसांत तवसेचां उत्पन्न क्वचीतच घेसत. पण वाली मात्र आठवणीन लायसत. मिरसांगाचे रोपे बरोबर तांबडी भाजी मुळो, गड्डे वांयगी अणि काय इतर भाज्यो गिमातले पोरसानी लायसत. कांदेचां पीक मात्र गिमाचेच पोरसानी घेसत. पण तवसेचा उत्पन्न गिमात घेत नाय. हे पोरसूं लावेची वेळ म्हणजे दिवाळ्या पाशणी सुरवात,

जालेही पोरसा शिगमे म्हयनेपर्यंत उलगसत. गिमातले पोरसांना पाणी शिपेचां काम तसां कठीणच ससे. बावीचा किंवा व्हाळाचां पाणी हाडनी शिपेवा लागसे. खालाट्याला तर सर्दांत बाव मारनी, बावीचां पाणी लाटीन वरता काडनी शिपेची पद्धत जुने काळांत सली. ल्हान रोपेला शेणाची गोबरी घालसत. तसोच कांदो बरो मोठो रिगे हवो जालेवर तेलाय शेणाची गोबरीच घालसत. गिमातले पोरसांत सगळेत जास्त काळजी घेव्वी लागसे ती म्हणजे शिपणेची. सुरुवातीला लायलेले रोपेला अणि भाज्याला पाणी हळुवार घालेवा लागसे. घसघशीत पाणी घातलां जाले तो आडवो पडोनी मरसे. साधारण संक्रांती कडा मिरसांग पिको लागसे. मिरसांग पिको लागले नंतर पोरसूं म्हयने भीतर उलगसे.

आजकाल असले पोरसा पाठल्या कष्ट करेचे पेक्षा पोली फार्म उभारनी पांच वर्षात येणारा उत्पन्न एकाच हंगामात घेसत. पोली फार्म शेतीला सरकारी सवलती सुद्धां खुपश्यो गावसत. नवीन येसे तसा जुना कालबाह्य हसे. तरी सुद्धां जुने काळांतली शेती, पिका उत्पन्ना असले सगळे कामा विषयीची माहिती ज्ञान अणि विज्ञान म्हणी आठवणीत थेवे हरकत नाय.

●●●

15.

# भुरगेपणाले वांगडी

साठ ते सत्तर वर्षा पयलीं सत्तरी हो तालुको तसो दुर्गमच सलो. धड रस्ते नाय, गाडी घोडो नाय, शाळा नाय. एकूण कासल्योच सोई नतल्यो. बस किंवा बाजार गाठे दोन दोन तास चालत जायवा लागे. तरी सुद्धां सत्तरी सारखे भागांत साठ तें सत्तर वर्षांपाठी शिक्षणाला खूप महत्त्व सलां. आमचे शेजारचे जाण्टे जे आज साठ ते सत्तर वयाचे सत तेंचा शिक्षण इयत्ता चौथी तें सातवी पर्यंत झालां. तें काळांत सातवी म्हणजे फायनल. तो काळ म्हणजे पोर्तुगीज लोकांची राजवट. आपल्या भाषात बोले अणि शिके भय सलो. बायलांना जाले घर सोडनी बाहेर जायवेचां धाडस हत नतलां. तें काळांत पोर्तुगीजाचो लोकांना भय सलो. तरी सुद्धां जाण्टे चोरनी मारनी शिकलेले. तेना शिक्षणाचां महत्त्व खबर सला म्हणी ते आपले भुरगेना चोरनी शिक्षण देत. कडताऱ्याचे आजचे अणि पयलीचे जाण्टे सुशिक्षीत सले. बेळगांव, सांगली, मिरज, प्रीयोळ, कालापूर, वाडी सारखे ठिकाणी जावनी तेचेय शिक्षण घेतलेलां. सत्तरीत कोदाळी सारखे गांवांत शाळाचे वर्ग चालत सले. कडताऱ्याथीन कोदाळी जाण्टे शिके जांत सले. कोदाळी जायवेचा म्हणजे दिड ते दोन तास चालत जायवां लागे. चालत जाताना रानटी जनावरां अणि कानटांचो उपद्रव सलो. तरीही तेचेंय आपलां शिक्षण पुर्ण केलां. एताचे भुरगेना शाळांत जायवे वहातुकीची व्यवस्था से. शिक्षणाच्यो वेगवेगळ्यो सोयी सत. शिक्षणविषयक वेगवेगळे कायदे सत. तेडलां हें सगळां नसताना जाण्टे शिकले म्हणी आमी शिकलो. आमी जरी नोकरी केली नाय तरी शिक्षणाचा महत्त्व आज आमला कळसे.



माजो दादा सुद्धां चौथी पास झालेलो. संसाराचा रहाटगाडगा चालयताना वैतागनी एकेकदां असां म्हणे की ‘थोडी खूप मेहनत घेतलेली जालेवर में सुद्धां मास्तर हनार सलो.’ तां सोड पण आमचे दादान अणि आईन खटपट घेतलीन अणि आमला शिकयलेन.

सुपाऱ्याला दर नाय म्हणी पोट भरत नाय. अशी एकूण आमची परिस्थीती सली. म्हणी डिचोल्यात दूध विकनी पयसो गावनार अणि भुरगेंचा शिक्षण हनार असो विचार करनी आमला दादान डिचोल्या न्हेवनी थेयलेन. जेडला मे सात वर्षांचो जालो तेडलां माला शाळात घातलो. माजी मोठी बहीण म्हणजे माजी माई. माई अणी में बरोबर एकाच वर्गात शिकत सलो. माला वांगडा हवो म्हणी माईला एक वर्ष उशीरा शाळांत घातलेली. सहा वर्षापर्यंत माज्या माईन आईची भुमिका केलीन नंतर पयली ते डीग्रीपर्यंत सोबतीची भुमीका व्यवस्थित पार पाडलीन. पयली ते अकरावी पर्यंत आमी दोगांय एकाच वर्गात शिकलो. पयली ते एस.एस.सी. (अकरावी) पर्यंत आमला दोघांना एकच छत्री, एकच पुस्तकां, मग कॉलेजात मात्र वेगळीं. तरीही जाताना येताना आमी बरोबर येतजात सलो.

शाळांत जायवेचा म्हणजे भितरल्या पेठायीन भायल्या पेठांत. मध्या सोनार

पेठ. आमची शाळा भायल्या पेठात कोळमुळेच्या माळ्यावर चालत सली. घरातथीन बाहेर सरले नंतर मे सरळ शाळांत जात नतलो. मला ल्हानपणा पाशणी टाकाऊ वस्तू आवडत सल्यो. आज सुद्धां आवडसत. एता सुद्धां में टाकाऊ वस्तूचो उपयोग माजे संसारात भरपूर करनी घेसा. तेडलां खेळासाठी त्या वस्तुंचो उपयोग करीत सलो. शाळांत जाताना दुधाच्यो बाटल्यो गिरायकाना पावेचां घरचां काम सतच सलां. तेच बरोबर टाकाऊ वस्तू लागीं करनी घरा हाडप हें माझां काम सलां. पयलीचे सोडाच्या बाटल्यांच्यो गुडयो हाडनी गडुेनी खेळे वापरीत सलो. रिकामी सिगाराची पाकिटां हाडनी इस्पीकानी खेळत सलो. एखादे पाकिटाला अळशीक लागलेली सली जालेवर ती चड्याला पुसनी बोलसांत घाले बुरसेपण दिसत नतला. रिकामे फस्कांची रेल्वे करनी खेळे खूप मजा येत सली. गाडी करनी हातान चालवेची. त्या चालत्या रेल्वेला बगनी में रेल्वेन प्रवासाला गेले सारखा स्वताला भासवनी घेत सलो. च्याव्याचा मोठा चित्र सलेली फस्कां अणि कॅपसन नावाची सिगरिटची पाकीट जमवीत सलों. कॅपसन सिगारेटचां पाकीट दिसे इतकां बरां सलां की खळग्यांत उतरोनी उखलले शिवाय न्हेवे हत नतलां. भितरल्या पेठांत नाईक नांवाचो वकील न्हेत सलो. म्हणी मला सिगरेटचीं पाकिटां अणि फस्कां जास्त मिळत सलीं. टाकाऊ सामान जमयताना माझी अणि माईची चढाओढ हत सली. मला सिगरेटचीं पाकिटां अणि फस्कां जास्त मिळनार का माईला? पण माईलाच जास्त मिळत सली. प्रत्येक गजालीत माई माझे पेक्षा वरचढ सली. अभ्यासांत, टाकाऊ वस्तू जमा करे, नयीत पेवे, झाडावर चढे असे प्रत्येक कामत माई माजे पुढां सली.

असले उपद्व्याप करीत में शाळांत सदांच उशीरा पावत सलों. माई असलां सगळां काम करनी प्रार्थनाला हजर न्हेत सली. पण उशीरा येणेसाठी माला बाईन कय शिक्षा केलेली यवजत नाय. पयली ते दुसरीचे वर्गाला माला कुमुद नावाची बाई शिकवी. ती आमचे शेजारा न्हेत सली. कदाचीत शेजारी म्हणी शिक्षा करीत नतली का मला शाळात येवची अणि शिकेची गोडी लागे हवी म्हणी कांय कोण जाणे. तरी पण हळूहळू माला शाळाची गोडी लागली.

तिसरीचे वर्गांत पावले नंतर खरी शाळा, शिस्त, अभ्यास, गृहपाठ, वाचन, पठण, संस्कार म्हणजे कितां हें कळों लागलां. शाळांत जातानाची

सगळीं कामा आवरूनी प्रार्थनाचे पयलीं शाळांत पावेचां, कपडे नीट घालेचे, निवळ ऱ्हेवेचां, अभ्यास वेळचे वेळा करेचो, ह्यो गजाली मला कळो लागल्यो. ते काळांत वाचन, पठण, चिंतन, आचार, विचार ह्या गोष्टीना खूप महत्त्व सलां. बाईचे वार्गाथीन में मास्तराचे वर्गांत गेलेलो. ते वेळा आमला कुलकर्णी नांवाचो गुरुजी शिकवी. शिस्तबद्ध अणि वक्तशीर. शिस्त आचार विचार प्रात:स्मरण संध्यापाठ बाराखडी उजळणी हें सगळां में गुरुजी कडल्या शिकलो. पुस्तकांतले शिक्षणाबरोबर शिस्त अणि वक्तशीरपणा ह्यो दोन गजाली आज माझे साठी कायमस्वरुपी ठेवी समान सत. एता पर्यंत माला तेचां व्याज सुद्धां मिळसे अणि हयातभर मिळत ऱ्हेनार. गुरुजीन माला दिलेली ही देणगी म्हणजे दानावर दक्षणा म्हणसत तसां जालां. माला दानंही दिलांन दक्षणा सुद्धां दिलीन. शिस्त वक्तीशीर पणा निटनेटके पणा आज माजेत जो से तो माजे कुलकर्णी गुरुजी मुळाच से. हे में कयीच विसरो शकत नाय. शिकयतानाचे हावभव स्तोत्र प्रातस्मरण पाठ संध्यापाठ शिकयतानाच्यो गुरुजीच्यो लयबद्ध हालचाली. गुरुजीचो निटनेटको पोशाख, माझे डोळे समोर आजही दिससे. प्रत्यक्ष गुरुजीसमोर उभे सले सारखां दिससे.

शाळा सुटले नंतर लवकर घरा जायवेची लगबग सदाचीच सली. पटो तुटलेलां दप्तर कसां तरी खाकाला मारनी घरा येवेचां. येताना रिकाम्यो दुधाच्यो बाटल्यो हाडेच्यो. घरा जात सताना वाटांत भजेंचो वास आयलो की माजी पावला हॉटेलाचे दारांत थांबत सली. भजीं खायवीशीं दिसत सली पण शाळात जताना पैसे कोण देणार अणि कैंथीन देनार. थोडो वेळ भजेना बगीत भजी खाल्ले सारखो अनुभव घेवप अणि घरची वट धरप. शेवटी दुधाची तान ताकावर भागवेवी लागे. आज सुद्धां दुधाची तान अशीच भागवेवी लागसे. तेडला भजी आज अलिशन गाडी, बंगलो, विदेश प्रवास. तान तीच, वस्तू मात्र बदललेल्यो.

शाळाथीन घरा आयले की जेवण, खेळ, अभ्यास असे रोजचेच कार्यक्रम. संध्याकाळचे वेळा म्हशीना पाणी दाखवेचां करड खायवे घालेचां, पेण दाखवेची हीं कामां आमला करेवी लागत. तसांच कय कय म्हशीना घेवनी नंयवर जायवा लागे. में अणि माई म्हशीना घेवनी श्री शांतादुर्गाचे देवळा कडा

न्हयवर जात सलो. वाटात रवळनाथाचे देवळाकडा खटखटेचो गाडो सलो. शेंगदाणे अणि गोडॅ घालनी केलेले खटखटे चे वासांन तां खायवासा दिसे. तां खाल्ले शिवाय तोंडाची खाज भागत नतली. म्हणी में अणि माईन एक नामी युक्ती काढलेली. म्हशी मारसत दावां काडे देत नाय. म्हणी मोठे माणसाला गोठेत घेवनी जावप. तेच वेळा में घरांत बुरंगाळीत न्हेवेचा, चावनातले पांच दहा पैसे चोरचे. पैसे चावनात एका फळयावर सत सलेच. चोरे सोपां हय. घरांत तसां खायवे सलां पण भायेरले खाणाची उमेद. जाताना वाटांत दोन पैसेचा खटखटां दोन पैसेचे फुटाणे घेवप. म्हशी पाण्याथीन लवकर उठत नाय म्हणी हो टाईम पास. आमचा पाण्यात दुँबोनी जालां तरी म्हशी उठत नतल्यो. तेंडला वेळ जाणेसाठी खटखटा घेवनी खातसलों. तरी पैसे पण उरत. अणि घरा पावता पावता खटखटां उडवनी देवप पैसे लिपवनी थेवप. परत दुसरे दिवसां ते लिपयलेले पैसे गावत नतले. हो प्रकार खूप दिवस चाललो. पाण्यातलां उफावसे म्हणसत ता खरा. भाऊन मला पैसे चोरताना धरेचो ठरयलान अणि धरलोन. शेवटी में चोर, माई साव. मला ते दिवसा भरपूर मार पडलो. पडलेले माराचो फायदो सबंध आयुष्यांत झालो. मार पडलो नसतो तर चोऱ्याचा चट लागोनी मला तेचे परिणाम भोगेवे लागनार सले. आजचे व्यावहारीक जिवनात जर कोणाचे जास्ती पैसे आयले तर में तेडलांच परत देसा जाले.

मध्याच एक वेळ अशी आयली की दुधाचो धंदो खालवलो. एक दोन म्हशीही मेल्यो. हरिदासची कथा मूळ पदावर. परत तशीच गत जाली. धड पयसो नाय धड खायवे नाय. ते थीनय वाट काडली. आमला हाडनी अणि राधनी घालणाऱ्या आईवर असे अनेक प्रसंग आयले. पण ती कांय हरली नाय. कोणा तरी भिक्षुक्या बरोबर लोकात्यां सव्वाशीण म्हणी जाव लागली. श्री सत्यनारायणच्या पुजाला रांधपीण अणि भटीण म्हणी जाव लागली. आमला कय कांय नाय म्हटलान नाय तर केडला उपाशीही उडायले नाय. दक्षणा म्हणी पैसे, पोलकेचो कपडो अणि देवाचो प्रसाद म्हणी रवेचो शिरो घेवनी घरा येव लागली. आई पुजाला जनार म्हटलेवर आमला भरपूर आनंद हत सलो. आयलेनंतर आईला आमी एकही काम शिल्लक थेवित नतलो. कारण येतान आई शिरो घेवनी येणार. आमी ल्हान सले कारणान भूक लवकर लागे. पोट भरत नतलां. आई कय येनार अणि आमला कय खायवे गावनार असा हत सला.

चढ उतार हे कायम ससत. तशी थोडे दिवसानी परिस्थिती बदलो लागली. सुपाऱ्याला दर आयली. कुळागरातलीं कामां करे पैलो घोळो लागलो. थोडो अधिक खर्च दादा डिचोल्या थीन करु लागलो. दादा डिचोल्या येनार म्हणजे स्वर्गाथीन देव आयले सारखो दिसे. दादा बरो उंच निटनेटको, धवी आंगी धोतर असो तेचो पेहराव सलो. नितळ काटकसरी हेके खोर असो स्वभाव. आमी आईची वाट शिरेसाठी अणि दादाची वाट पैसे साठी बघीत सलो. दादा येनार म्हणी प्रत्येकाची यादी तयार सत सली. हें घेनार तां घेनार. नवीन कपडे घेनार. दादा माला कपडे घेत सलो ते सुद्धां निळे किंवा हिरवे रंगाचे पट्टे सलेलो कपडो. आंगी अणि कलसांव एकाच रंगाचे कपडेचा शिवेचा. एताचे सारखां रेडीमेड, मॅचींग, फॅशन, स्लिवलेस कॉलर, असलां नतलां. दादा सांगेल तसे कपडे शिंप्यान शिवेचे आमची आवड निवड जाण्टेंचे मता प्रमाण ठरत सली. सगळ्या बाबतीत हें असांच सला. कपडे शिवोनी तयार हनार अणि कय घालनार असां हत सलां. कय एकदां कपडे तयार झाले नंतर शिलाईचे पैसे देनार जाले, दादाची वाट बघेची. नवीन शिवलेले कपडे घातले नंतर मे माजो मलाच भुजगावणां कसो दिसत सलो. दादान शिंप्याला बजायलेला सय, की कपडे तीन चार वर्षा वापरे गावे हवे. थोडकेत चार वर्षाची बेगमी.

जुतेची कथा साधारण तशीच सली. पायेचा माप देवे एक दिवस तयार झाला काय बघे सतरा फावटी. एक दिवस माला असा दिसला की जुतां तयार हय पर्यंत दुकानांत थपकल मारनी बेसेचां. दुसरे दिवसा सकाळीं तेचे दुकानांत पावलो. दुकान निकताच उघडलेला. नेमका तेणी माजे जुतेचा काम हातांत घेतलान. बेसे एक साक पातळायलेलो. पुढेत एक काळो कुळकुळीत मोठो गुंडो. गुंडे वेल्या पाये पर्यंत निमुळती लाकडाची फास्की. उजवे हाता कडा तोपण, कातरणा, कुट्टो, सुत, चामडेच्यो बारीक वादयो, मेण. असा सामान डावे हाता कडा उथळ असा पाण्याचा भांडा.

चामडा पाण्यांत भिजवनी कांबीवर थेयलान. कातरणेला धार काडे तो विसरलो नाय. अगदी पायेचे आकाराचे तीन चार पदर तयार केलेन. पदर एक मेकावर थेवनी शिवपाला तोपण हातांत घेतलान. तोपण गुंडेवर घसटलान केसाना लायलान अणि जुतां शिवे सुरवात केलीन. प्रत्येक वेळा तोपण गुडेवर

घसटसे अणि केसाना लायसे अणि तोपसे. खुपसो विचार केलेवर लक्षात आयलां की तो धार काढसे केसाना लावनी सुळसुळीत करसे. म्हणजे तोपे सोपां जासे. तळवो तायार झाले नंतर खोंटाचे आकाराचे जाड तुकडे करनी तळवेला खिळे थोपटलेन. तळवेच्यो भायेर भितर झालेल्यो कडो कापनी जुतेला आकार दिलोन. जुतेला अजुनी खूप काम सलां. पटे शिवेचां. पटेचा माप घेवेचां. ते दिवसा जुतां मिळत नाय. असा झाले नंतर तोंड काळां करनी घरा येवेचां. सतरा फावटी मारनी जुतां एकदांचा हातांत पडलां. जुतां इतकां सुंदर करी की तां पायेंत घालेचे पेक्षा हातात घेवनी फिरप असा दिसत सलां. शेवटी जुतां कितकांय सुंदर सलां तरी तां पायेंतच घालेचां. वर दादान बजायलेलान 'गरजा पुरतांच वापर' .

'गरजा पुरतां' म्हटलेवर सातोडेचे गोपाळ बर्वेकाकान सांगीतलेली एक गजाल यवजली. 'साठ सत्तर वर्षा पैलीं जुतां कोणा कडांच नतलां. कारण परवडत नतलां. सबंध गांवांत एकटे दुकटे कडा जुतां सय. सोयरे धायरेत्या अथवा बाजारांत जाताना अनवाणी जायवेचां लागसे म्हणी दुसरे कडलां जुतां घेवनी घालप. चालो लागलो की चामडेचे जुतेचो करकर करनी आवाज येसे. आवाज येतकच चाले बरो झेत येसे. पण दुसरेचां जुतां झरनार अणि तुटलां जाले लचाणा नाका म्हणी जास्तीसो वेळ तां हातांत धरनी चालप. सोयरेचे घरा लगीं पावतकच घालप. नवे कपडे सुद्धां तसेच काखोट्याला मारनी न्हेवप. बशीकडा, सोयरेचे घरालागी किंवा बाजारांत पावतकच घालप.' बर्वे काकाच्या गजाली वेल्या माला दादाचे घड्याळाची आठवण झाली. कोर्तीचा 'कॅमी' कंपनीचा मनगटी घड्याळ घेतलेलान. हातांत घातलेला घड्याळ खरचटो नये म्हणी मनगटाच्या भितरल्या वाटान बांधीत सलो. पाणी लागो नये म्हणी का कोण चोरील म्हणी, काय कोण जाणे तेचेवर रूमाल बांधी. सुंदरभांगराचे रंगाचा घड्याळ शेवटी लिपवनीच थेवी. वस्तू लिपवेची कारणा ते काळांत खूप सली. एखादी वस्तू घेतले नंतर कोणाला जाग लागो देत नतले. कारण लोक म्हणत, 'हेचे कडां पयसो जालो.' दादाचे घड्याळाला आमी हात लावेचो नाय. वरा कळे हवी जाले दादानच बघनी सांगेची. घड्याळ हातांत बांधेचे वेळा फक्त पेट्याथीन बाहेर काढी. रात्री निदवताना घड्याळाला कोर्त देवे दादा विसरत नतलो. बाकी वेळ घड्याळ कोणाच्या नजराला पडत नतलां.

बर्वे काकान सांगीतलेल्या गजालीवेल्यां अणि में स्वता बघीतलेल्या गजालीवेल्या तेडलाचा राहणीमान अणि एताचा राहणीमान हेत खुपच फरक से. हाल अपेष्टा काडनी पैसे मिळवेचो सूख भोगणेसाठी. पैसे मिळवनी कपडे, भांडी, जुती, छत्रयो, घड्याळ, रेडीओ सारख्यो वस्तू विकत घेवेच्यो. लवकर वाईट हता काम नये म्हणी तेचो वापर जेमतेम करचो. ह्या वस्तूंचो उपभोग मात्र कमीतकमी घेवपाचो. कारण तसलीच तेवढ्या किमतीची वस्तू घेवे परत शक्य हनार हेची शाश्वती नतली. एक काळ असो सलो की, नव्यो वस्तु घेवे पैसे नसत सले. काटून कुटून जर एखादली वस्तू घेतली तर ती जपोनी वापरेवी लागे. आज पयसो भरपूर से. वस्तू सहज घेता येसत. पण तेंचो उपभोग घेवे वेळ नाय. पयलीं भूक सली, पण पयसो नतलो.

आज भूक से, पण पोट भरी खायवे नशीब नाय. pressure, diabeties, acidity वाढेल म्हणी भय. थोडकेत, एकावेळा पयसो नाय म्हणी उपाशी आज पयसो सवनी उपाशी अशी माणसाची गत झाली से. तेडलाचे काळमाना प्रमाण तेंचेनी वेळ निभावनी न्हेलीन.

आज परिस्थिती बदल्ली से 'युज एन्ड थ्रो' चो जमानो चाललोसे. पुढा वेगळा किता तरी घडणार. पण आमचे जाण्टे ते भविष्याचो विचार करनी वागले तसाच आमी पण भविष्याचो विचार करनी वागे हवा. जाण्टेंनी पोटासाठी अणि सुखासाठी पैसे मिळयलेन झाडां, पेडो लायलीन. कुळागरां शेतां भाटां वसयलीन. म्हणी आज आमला हे दिवस बघे गावसत. मजा मारे गावसे. पुढच्या पिढ्याचे दिवस बरे येवे हवे जाले आमी कुळागरां, शेतां, भाटां कडा लक्ष देववेची गरज से. आजची पिढी नोकरी व्यवसायासाठी धडपडसे अणि बागायती कडां दुलर्क्ष करसे. आज मिळणाऱ्या सरकारी मदतीन अणि प्रोत्साहनान शेती बागायती कडा लक्ष देवनी हरीत कांती घडववेची गरज से.



16.

# बोंडेलकार

कडतऱ्यातल्यो जुन्यो जुन्यो आठवणी हंव लागसत तसतशी बरवेची हुरहुर वाढत जासे. आठवणी म्हटल्यो की लहानपणातल्योच अधिक यवजों लागसत. आमचे घराकडल्या म्हादय न्हंयवर जायवे हवा जाले पयली पायंड लागसे. पायंडीथीन जायवेचां म्हणजे नजर पांये कडां हवी. तरी सुद्धां आमची नजर हेगडां तेगडांच जास्त जासे. कारण जाताना लागसे तां हिरवांगार कुळागर आमची नजर फिरयणे इतकां बेसबरां से. पायंड म्हणजे दोनय वाटान दुरग अणि मध्याथीन जाणारी वाट. दुरगाचे दोनी वाटान कुळागरां. कुळागर म्हणतकच नजर सहज वरती जाणा हे साहजीकच से. कारण आमी तेतच वाढलो अणि मोठे जालों.

अेखादो आंबो लागलो से का? माड्यांना फाळे कसे आयलेसत? सुपारी पिके आयली का? अमनां जास्त पीक येनार का नाय? मिरवेलीना गोण कसे आयले सत? वाटातली भिरंड लागली से का? पिकली तर सोलां करे हवी? निरपणस लागलो से का? वायगंण पिके आयलां का? आयलां जाले कापे हवा, मळणी घाले हवी? असले हजार प्रश्नांचा गणीत बांदतां बांदतां हुडे वर पावतकच पयली आवाज येसे तो खळखळणाऱ्या म्हादय न्हंयचो. या न्हंयचा पाणी बाराय म्हयने व्हांवत ससे. तां के जासे? व्हांवता व्हांवता तां कयीच कसां सोपत नाय? हेचां उत्तर सोदता सोदता नजर जासे ती हिरवेगार शेतोडी कडां. शेतोडीथीन बघतकच दिससत त्यो उंच उंच अणि हिरवेगार डोंगराच्यो रांगो. डोंगर बघतकच भलतांच आश्चर्य हसे. तसोच पुढां गेलो जालेवर दिससे



ती मिशाळेची कोंड. मिशाळेच्या कोंडीचो अंदाज घेवप म्हणजे कयीच कांय न बोलणारेची गत. कोंडीतलां पाणी अगदी शांत अणि थंड जणु कसले तरी विचारात दंग झालेले माणसाची गत. ही न्हंय केनथीन येत सयेल हेचो अंदाज घेता घेता, वरती दिससे तां धडेचा मळ. मळासमोर मोर्येंचो गुंडो. तेचे वरती बगलां तर दिससे ती उस्तेकारांची गोठण. तेचे समोर चोचऱ्याचे माड. तेचे पुढां नजर पावतनाय जाली की, दिससे तां पुढेतला नवां वांयगण. नवे वांयगणाच्या खायल्या वाटान दिससे ती जागा म्हणजे उफार करेची जागा.

उफार म्हणतकच रुढी, चालीरिती, समज-गैरसमज, प्रथा, परंपरा आयल्योच. तेच बरोबर जाण्टेंनी घालनी दिलेले नेम. कडतऱ्यांत तशो रुढी-रिती, प्रथा-परंपरा खूप सत. तेतलीच एक परंपरा म्हणजे उफार. उफार करेची परंपरा आमचे जाण्टें पाशणी चालत आयलीसे. अंदाजे ही परंपरा पाठले दोन अडीचशे वर्षा पाशणी चालत आयलेली सैवी. आज आमी ही परंपरा चालूच थेयली से. अणि ती पुढाही अशीच चालू उरनार असा दिससे. 'पुढला जोत चालसे तसां पाठलां जोत चालसे' ह्या म्हणी नुसार जाण्टें उफार करीत आयले म्हणी आमी उफार करसों. तेचे पाठलां खरां कारण कितां हे जाणोनी घेवपाचो

विचार करूंच मनात आयला नाय.

नवीन पिकयलेले भाताचे तांदुळाचो 'भात' करनी बोंडेलकाराला नेवेद्य दाखवप म्हणजेच उफार. बोंडेलकार म्हणजे कडतऱ्याचो राखणदार. कैक वर्षा पाशणी बोंडेलकाराचां पाशाण उस्ते अणि कडतऱ्याच्या शिमावर से. पाशाण तसां मोठा से. बघे बरां दिससे. हे पाशाण चारशे ते पांचशे वर्षा जुना सैवा असो अंदाज दिससे. तेत कोरलेली बोंडेलकाराची प्रतीमा तशी स्पष्ट नतली तरी मूर्ती बरी दिससे. तेतथीन जाण्टेंची कोरीव कामाची कला कडतऱ्यांत कैक वर्षा पाठी सली हेची जाणीव हसे. कारण कितकेसेच वर्षा पैली हें पाशाण नवे वांयगणाचे खालती सलां असां जाण्टें सांगसत. तां पाशाण डोंगराचे माथे वर कसां गेलां हेची एक वेगळीच कथा से. कदाचीत ती कथा खरी सयवी. कारण आज पावेतो रांदप खालती करनी नैवेद्य पाशाणा कडा न्हेवनी दाखयसत. पाशाण आज पावेतो उघडेवरचो से. तरी तां अजूनी पाड जालां नाय, म्हणी कोरीव काम करणारेची पाशण (काळोत्री तळप) निवडेची पारख बरी सली हें सिद्ध हसे. जरी पाशाण उघडेवर सलां तरी तां निवळ करप, धुवप, पुसप, तेला तात्पुरती सावळी करप हे कडतरकार विसरत नाय. किमान वर्षाथीन एकदां तरी तां पाशाण निव्वळ करसत. तो दीवस म्हणजेच उफाराचो दिवस.

मे म्हयनेच्या दुसऱ्या पंध्रशीला उफार करेची पद्धत आजपर्यंत चालू से. उफार करप म्हणजे तसां काम सोपां नाय. गावांतले गावकाराला वांयगणकारांचे घरा फिरोनी एक आठवो तांदूळ अणि दोन नारळ अणि पैसे जमवेचा काम सगळेत महत्त्वाचा ससे. रांधपाला लागणारा इतर सामान, कोमडां, मिठ, मिरसांग हे सगळा जमवप. सगळां सामान जमवनी तां उफार करेचे जागेवर न्हेव्वेचां असली सगळीं कामां गांवकारांनच करेचीं ससत.

उफार करेची जागा म्हणजे म्हादयचे तडीवर. आमचे वांयगणाला टेकोनी म्हादय व्हांवसे. वांयगणाचे खालती झरीची कोण. तेचे वरती मिशाळेची कोण. मिशाळेच्या कोंडी वरती नवां वांयगण. दोनाचे मध्यां थोडीशी मोकळी सुवात से. ती सुवात झाडानी गच्च सले कारणान त्यांहा थंडगार सावळी से.

त्याच सावळ्याचे आधारान त्यांहा मोठमोठ्यो गुंडेच्यो चुली घालनी रांदेची व्यवस्था केलेली से. गावचो सगळो लोक उफाराचे दिवसा त्यांहा जमसे. सकाळ पाशणी दुपार पर्यंत खेळीमेळीन सगळे मिळोनी रांदप करसत. रांधपा

बरोबरच कोमडां मारनी तेचां मटण करसत. हें सगळां नवे वायंगणाकडा रांदनी वरती बोंडेलकारा कडा घेवनी जासत. बोंडेलकाराची पुजा करनी तेला नेवेद्य दाखयसत. तेच बरोबर बोंडेलकाराचे नावान नारळ फोडनी सांगणा करसत. मग खालती नवेवांयंगणा कडां येवनी सगळेजण जेयसत.

हे सगळां करेचे आदी वेगवेगळ्या वेळा नारळ थेवची अणि फोडपाची प्रथा चालत आयली से. बांध घालनी पाणी वांयगणात सोडला की एकदां वांयगणा फोडेचे आदी म्हणजे जोत धरेचे आदीं पेडावर दोन नारळ थेववेची प्रथा से. तेतलो एक राखणदाराचे नावान फोडप अणि मागणा करपाची रीत से. वांयगणा लायलेनंतर नडणी सुरू करेचे आदी भात शिजवनी चरू घालपाची पद्धत चालत आयली से. नारळ फोडप, चरू घालप, पूजा नेवेद्य, उफार ह्यो सगळ्यो गजाली गावकारानच करपाची पद्धत आजपर्यंत चालू से. तसांच उफार केलेशिवाय वांयगणाचे भाताचो तांदूळ शिजवनी न खाणेची प्रथा अजूनी चालू से. आजमितीला कडतऱ्यातले वांयगणानी भात पिकयणा बंद जालां से, तरी उफार वाढपाची प्रथा मात्र सोनाळकारांनी अणि कडतरकारांनी चालू थेयली से.

आजचे बदलते जमानेतही ही प्रथा चालू से. हेचे वेल्या एक गोष्ट नक्की हसे की कडतऱ्यात बोंडेलकाराला खूपच महत्त्व से. जाण्टेंनी घालनी दिलेली प्रथा बंद करणां ही आपली मोठी चूक असांच अजूनी मानसत. ह्या सगळ्या प्रथा पाठल्यां श्रधा-अंधश्रद्धा अशी खूप कारणा संव शकसत. पण तीं कारणां शोधणा तसां खूप कठीण से. ह्या प्रथा पाठल्या एक कारण सैवा असा माल दिससे. तां असा की बोंडेलकाराचा पाशाण कोरणेची कला जेची कोणाची सयेल ती कला कायमस्वरुपी जिवंत उरवीं. हेचो अर्थ असो लायता येसे की, तां पाशाण लोकानी जपोनी से तसाच थेव्वा. तेच बरोबर तां घवनी पुसुनी स्वच्छ थेव्वा. पाशाणाची झीज हव नये हेची काळजी घेव्वी. तां भग्न हव नये, म्हणी देव देवचाराचो भय घालनी अश्यो प्रथा चालू थेयणा असे संस्कार पुढल्या पिढ्यावर आमचे जाण्टें करीत सले सनार. जेणे करनी पाशाणातली जाणतेंची कोरीव कामाची कला जिवंत उरेवी.

तां किताय सो, आजपर्यंत येणाऱ्या प्रत्येक पिढ्यान प्रथा चालू थेयली से. बोंडेलकाराचे पाशाणाची पुरेपूर काळजी घेतलेली से. म्हणी हे पाशाण शेकडे वर्षा तसेला तसाच से.

●●●

17.

# पिस्तेचां पाशाण

म्हादयचे तिरावर वेगवेगळे गांव वसलेसत. तेतले प्रत्येक गांवाला एक वेगळांच महत्त्व से. आजचो बंदीर हो गांव जुने काळांत होडेंचा बंदर सला. सोनाळ गांव म्हणचे जुने काळांत त्याहा भांगराची उलाढाल हत सली असा म्हणसत. कृष्णापूर हे गावाचा वेगळेपण म्हणजे, जुनाट काळाचा पिस्तेचा पाशाण. कृष्णापूर गांवांत अगदी म्हादयचे तडीवर पिस्तेचां पाशाण से. जुने काळांतली पिस्तेची काणी एक वेगळीच से. तशीच पिस्तेवर एक वेगळीच श्रद्धा से.

कर्नाटक राज्यांतले खानापूर तालुकेतले कृष्णापूर गांवां लार्गी पिस्तेची ल्हान देवळी से. कडतऱ्यातील बरोबर चवदा किमी. दूर पिस्तेचा पाशाण से. पिस्ते कडा जायवे तशो खूब वाटो सत. उस्ते, सोनाळ, कडतरी, कुमठळ, नानोडा हे गांवांथीन सुद्धां पिस्तेला जायवे गावसे. सोनाळथीन जायवेचा म्हटलेवर, वाटात म्हवाचो गुंडो, कणसगाळ, काजरेधाट, कडवळ साठेली अणिक पेंढाळ हे गांव गावसत. हो सगळो प्रवास पायी चालत करेवो लागसे. चालत जाणा म्हणजे तसे दोन तास लागसत. जाताना म्हादय न्हंयी पेलतडी गेलेवर चढाव उतार पानशिरे लागसत. गिमाचे दिवसांत पानशिरेना अणि म्हादयला पाणी कमी सले कारणान जाणा सोपां ससे. पावसाचे दिवसांत जाणा म्हणचे जिवा वेल्लो काळ. साधारण नव्हेंबर म्हयनेत न्हंयला उतार हसे. तरी झांत जास्त मारले कारणान माणूस व्हांवोनी बुडपाचो भंय जास्त ससे. पण सर्वसादारण डिसेंबर म्हयने नंतर पिस्तेला जावप अगदी सोंपा. हे दिवस

थंड्याचे सले मुळा चालताना घाम येत नाय, तसांच पुरे हत नाय. झाडांची दाट सावळी सलेमुळा निबर लागत नाय. जरी चालत जायवा लागला तरी पिस्तेला लोक जासतच, कारण पिस्तेची ओड ही निराळीच से.

वर्षाथीन एकदां तरी जाणें पाठल्या वेगवेगळीं कारणां ससत. पण मुख्य कारण एकच ससे. तां म्हणचे आंगवणी. थोडे लोक हेला श्रद्धा मानसत तर थोडे लोक अंधश्रद्धा असा म्हणसत. आमी कडतऱ्याथीन खूपजण मिळोनी पिस्तेलां जासो. गेलीं पंचविस वर्षा आमी पीस्तेला न चुकतां जासो. एक दिवस आमी पिस्ताला जायवेचा ठरयलां. ते प्रमाण आमी चालत गेलो. रानाथीन जाताना निबर लागत म्हणी पायपीट केलीतरी पुरे हत नाय. रानातर्ली मोठमोठीं झाडां, तेंचेवर चढलेल्यो लांबलांब वेगवेगळे आकाराच्यो वेली. लांबलांब गेलेर्ली बेतां, उंच अणि जुनाट झाडां, रानांतर्लीं तरांतरांर्ची फुलां बगनी मन फुलोनी जासे. अणिकय पिस्तेला पावले हें कळत नाय. त्यांहा पावतकच सगळेत पयली पिस्तेच्या कोंडीवर जायवेचां. कोंडीत मोठ मोठे मासे बगे गावसत. तेना पयली न्हेलेले तांदूळ खायवे घालेचे. मग पिस्तेच्या कोंडीत न्हायवेचां. त्यांहाच रांदेचां. अणि मग पिस्तेची पुजा करनी जेवेचां. पिस्तेची पुजा केलेनंतर पांयां पडोनी सगळेंचां बरां कर म्हणी सांगेचा. असो हो सगळो कार्यक्रम जालेवर एखादो कोणय आंगवणी करी. आंगवणी वर्षाचे भितर फळाला येय. मग तो आंगवणी फारीक करे विसरत नतलो. में सुद्धां खुब आंगवण्यो केल्यो. पण दुसरेसाठी, स्वतासाठी कय आंगवणी केली नाय. तब्बल पंचवीस वर्षां में नेमाने पिस्तेला जासा. सगळेंचां बरां कर म्हणी मागसां कारण सगळेत में आयलोच.

इतकीं वर्षां जालीं में पिस्तेला जासा पण पिस्तेची काणी सविस्तर माला खबर नतली. एक दिवस पिस्तेचां महत्त्व तेचे पाठली माहिती जाणोनी घेवेची ठरयली. अणि सरळ एका जाण्टेंचां घर गांठलां. गजाली करतां करतां सगळेत पयली पिस्तेचो विषय काढलो. तेवर ते जाण्टेंन सांगे सुरवात केलीन. की, ''आपण प्रत्यक्ष कांय बघलेलां नाय तर माला माजे जाण्टेंनी सांगलेलां में तुला सांगसा.'' तेणीन सांगे सुरवात केलीन. एक दिवस घाटा वेल्यां एक ठाकर पिस्तेच्या वाटांन गोवेत आयलो. ठाकर म्हणजे नंदीबैल घेवनी दारादारांत

फिरणारो. मिळकत कमी म्हणी सो वा श्रद्धा सो बैलाला लोक देवाचां रूप मानीत. म्हणी नंदीबैल वालो, दारोदार फिरे. तेचबरोबर तेला उत्पन्न हय. तो नंदीबैल वालो जेडला पिस्तेला पावलो तेडला तेणीन पिस्तेला एक आंगवण केलीन. आपलेला भरपूर लाभ हंव असा म्हणोनी तो खालतो गोवेत आयलो. पिस्तेन तेला भरपूर मिळकत दिलीन. मनासारखा धन मिळलेवर ठाकरान परत घरा जायवेचा ठरयलान. तेचे ठराविक नेमा प्रमाण ठाकर घरा जायवे गेलो. परत घरा जाताना खुशीचे भारात तो पिस्तेचा पाशाण सोडनी वरती गेलो. तो दूर पावतकच तेला पिस्तेची आठवण जाली. पण तेला तेडलां दुर्बूद्धी यवजली. आपण केलेली आंगवण फारीक केलीन नाय हें कळोनी सुद्धां फारीक केलीन नाय. वर पिस्तेला सांगलान की, पिस्त्या 'में तुला फसयलो' इतका म्हणेसर तेचो बैल बेपत्ता जालो. जे जागेवर बैल सलो ते जागेवर मोठां होर्ना पडलां. पिस्तेनच बैलाला दडयलेचो तेला दुबाव जालो. म्हणी परत खालतो पिस्तेचे पाशाणा कडां परत आयलो. पिस्तेकडां चूक मागेची सोडनी बैल दडयलेलेलचां बगलाट पिस्तेवर घातलान. आपलो बैल परत मागलोन. पिस्तेन तेला बैल एकदां दाखयलो तरी तेला विस्वास पटत नाय म्हणी एकूण तिनदा बैल दाखयलोन, तरी सुद्धा नंदीबैल वालेन पिस्तेला किकोत केलीन. शेवटी पिस्तेन तेचां उत्पन्न कायमचा नायसा केलान. या काण्या वेल्या एक गजाल कळसे  की, कोणी कोणालाच फसव नये.'' पिस्तेला कोणी फसव नये. ही प्रथा त्याहाथीन सुरु जाली. अणि आजपर्यंत अशी प्रथा से असा त्याहाचे लोक सांगसत.

जाण्टें लोक अणिकय अशीच एक प्रथा से असा सांगसत. ती म्हणजे पिस्तेच्या कोंडीतले मासे कोणीही खाव नये. मासे खाल्ले जालेवर बादसे. तेची सुद्धा अशीच एक वेगळी काणी आयकीवात येसे. खुपसे वर्षां पयर्ली एका मनशाला पिस्तेच्या कोंडीतलो मासो खायवेची धार आयली. तेणीन पिस्तेला सांगोनी कोंडीतलो मासो धरनी खाल्लो. 'बोट मिळलेवर मनगट गिळुया' अशी तेला दुर्बुद्धी यवजली. थोडे दिवसांनी अणिक एक मासो मागलोन. असो क्रम खूब दिवस चाललो. मग तेणीन पिस्तेला फसवे सुरवात केलीन. आपलो आमिक आयलोसे म्हणी दोन मासे मागलेन तेय गावले. दिवसा दिवस तेचो फटाफटीचो खेळ चालू सलो. एक दिवस खूप सोयरे आयले सत म्हणी खूप

मासे मागलेन. तेडला मात्र तेची फसवणूक पिस्तेचे लक्षांत आयली. लगेच तेला पिस्तेन श्राप दिलोन अणि निर्वंश केलोन.

एकूण सगळ्यो काणयो आयकल्यो की एक गजाल नक्की हसे की माणसान कोणालाच फसव नये. अश्या प्रकारचो संस्कार या कथाथीन हसे हें लक्षांत येसे. लोकांनी जरी ही सगळी अंधश्रद्धा असो विचार केलोय तरी तेथथीन एक गजाल निश्पन हसे की, माणसान कयीच कोणाची फसवणूक करूं नये. तसाच खोटां बोलों नये. कदाचीत ह्यो सगळ्यो काण्यो रचयलेल्यो ही संव शकसत. माणूस सुसंस्कारीत हणेसाठी आमचे जाणतेंली विज्ञानाची सांगड धर्माबरोबर घालनी कितक्योश्योच गजाली माणसाला पटवनी देवेचो यत्न केलो से. थोडे नियम पाळेची संवय लायलीसे. वेगवेगळ्यो प्रथा घालनी थेयल्यो सत. तश्योच तरातराच्यो खऱ्यो अणि रचयलेल्यो काणयो आमचे साठी आमचे जाण्टेंनी सांगल्यो अणि उपलब्ध केल्यो. कारण इतकाच की, माणूस सुसंस्कारीत हयवो हो एक उद्देश सलो.

तां कितांही सो, पुराणांतल्या काण्यांचो सरळ सरळ अर्थ घेतलो तर माणसाचे बरे साठीच सत. प्रत्येकान प्रत्येक गजालीतला बरां तितकांच घेव्वा. कारण फायदो स्वताचोच हसे. शेवटी माला एक इंग्रजी वाक्य यवजसे म्हणी लिहिवासा दिससे की, "Always Think Positive, be Positive'.



18.

# ओखदांचा गाठोडा

अनादी काळापाशणी चालू सलेले आयुर्वेदाचो उपयोग अजुनी चालू से. आयुर्वेदाचां महत्व कईच कमी हंव शकत नाय. आज माणसाला नाना तरांचीं दुखणी, विकार, रोग हसत. जुने काळांत सुद्धां तरेवाईक आजार, दुखणी सलीं. तरी आजचे मानान तेडलाचां दुखणेंचा प्रमाण कमी सलां सैवा. हेला कारणां वेगळीं सत. काल सो वा आज. जितकी दुखणी तितकीं ओखदां. हेला कारण माणसाची संशोधन वृत्ती.

जाणटे पोट भरे खटपटी करीत. तसेच खेळ करमणूक करे वेळ घालवीत. तेच बरोबर ते आपले आरोग्याची काळजी घेत. ते काळांत बाजारी ओखदा नतलीं. अणि सलीं तर ती म्हारग. म्हणी तेचो गांवठी ओखदांवर भर जास्त सलो. ओखदांचीं झाडां घरा लागी हाडनी लावी. आज काल ओखदांचे झाडा पेक्षा फुलांची अणि उत्पन्नाचीं झाडां लावणेवर कल जास्त ससे. कारण आज पैसेला किंमत आयली से. पयसो हे सर्वस्व जालां से. माणसाला दरएक गजाल सोपेत अणि सहज हवी. डॉक्टराकडां अथवा, फार्मासीत ओखदां घेणा सोपा जालां से. म्हणी गांवठी ओखदांचो वापर कमी हंव लागलोसे.

गांवठी ओखदांचो वापर जुने काळांत जास्त हत सलो. तेडलाचे लोकांना सर्वासाधारण दुखणेवरचीं ओखदां खबर सलीं. मोठे दुखणेवर ओखदां देवपी वैज सले. वैज माणसासाठी, गोरवांसाठी अणि कुत्रे मांजरासाठी ओखदां देत सले. वेगवेगळे दुखणेवर झाडपालेचीं किंवा मसालेचे सामानातलीं ओखदां सत सली. तेतलेतेत घरांतले बायलाना ल्हान भुरगेंचीं ओखदां जास्त खबर



सत सली. अणि सादारण दुखणेचीं ओखदां लोक घरचे घरा करीत सले.

सरसकट जाण्टेंना अणि भुरगेंना थंडी हणा हे साहजीक ससे. तसोच ताप सुद्धां येसे. तेच बरोबर तकली दुखप, दांत दुखप, पोट दुखप, परसाकडां जास्त हवप, खड हवप, पित्त, वात असली दुखणी वेल्लेवरती चालू ससत. ती दुखणीं घरगुती उपायानी बरी करेचीं ओखदां सरसकट सगळे लोकांना खबर सत सली.

थंडी जाली तर तुळशीचीं केसरां, गंजन, आलां, पात, कोथंबीर, जिरां, बडीशेप, हळद घालनी काडो करनी घेत. आलेचो रस म्होवा बरोबर चाटे देत. ल्हान भुरगेना जायफळ उगाळनी. म्होंवा बरोबर देत. थंड्यावर अगदी साधे सोपे उपाय करनी थंडी बरी करीत सले.

ताप आयलो जाले उपरसाळीचीं पाळां, ओट्टेलांव, किरायतां, पुनर्नवा घालनी काडो करनी प्येवे देत. परीपाट उगाळनी निराळे पोटा घेवे देत. तसांच

कपाळावर थंड पाण्याच्यो घड्यो घालीत.

पोटांत दुखो लागलेवर नागूळ कुडेची साल उकडुनी पाणी प्येवे देत सले. ते शिवाय जिरे कोथंबीरीचां पाणी प्येवे देत. ओवेचां पाणी, ताकांत हींग घालनी प्येवे देत. ल्हान भुरगेंचे पोटांत दुखों लागलेवर वेखण उगाळनी जिभल्याला लावीत. पोट फुगलां जालेवर दुर्वाचो रोस, तसेच आले लिंबाचो रस गोड घालनी घेतकच पोट फुगी कमी हय.

घांव जालो जालेवर कुसकेचे पानांचो रोस पायेना पोसावीत. हेदीचे पानांचो रस सुद्धा पायेना पोसावीत. रस पोसावणे पेक्षा. कुसकेची, हेदीची पाना पायेनी मळप. पाना पायेनी मळलेवर गुण रोकडो येय.

दांत दुखो लागलेवर रान वांयग्याचा फळ धोडावनी तां दाडावर धरलेवर काय वेळान दाड दुखेची थांबसे. तंबाकुची चिमटी दाडावर धरप. वडाचे झाडाचो दीक, पातेपणसाचो दीक लायलेवर दांत दुखपाचे थांबसत. लवंग दाडाला धरलेवर दांत दुखी बंद हसे. ही दांत दुखी साठी गुणकारी ओखदा जाण्टें करीत सले.

दांत दुखे सुरू जाले की कानाचां दुखणां आयलांच. इतर कारणाना लागोनी कांन दुखसत. खोबरेल तेल अणि कडलींबाचां तेल कानांत घातलेवर काय प्रमाणात कान दुखेचे थांबसत. हे सगळे उपायाबरोबर तुळशीचे पानांचो रस कानात घालेचो उपाय पयलीचे लोक करीत सले.

काम करतां सवरतां कोयती, कुराड किंवा कवाळी लागोनी आंगाला, हातापायेंना घावो जालेवर, रानात सहज मिळणाऱ्या ओशाड्याचो पालो मळनी घावेला लावीत. साधारणसे घावेला माट्टीचे पानांचो कीस भरीत. जखमावर चुनो लावीत. जुनेतले जुने तुपाचो वापर करीत. घावेवर स्वताची लघवी घालीत. घाव मोठो जालेवर तेत चांदेचो दीक भरीत. आंबेचो दीक सुद्धां गुणकारी सलो. घावे बरे करेच्या कलेचां ज्ञान जाण्टेंनी झाडपालेतथीन आजमायलेला.

हगे जास्त प्रमाणात हंव लागलां तर बावेची पानाचो काडों, जांबळांच्या बियांचो रस प्येवे देत. हगवण कमी करणेसाठी बरेचसे झाडांचा सालीचो पानांचो अणि मुळांचो उपयोग ते वेळावर करीत सले. उसकीची साल, आपटेची साल, कुडेची साल, असल्यो सालीचो उकडूनी काडो प्येवे देत.

बेलाचा फळ उगाळणी तेचां चाटण करू. लावीत. हगवण कमी करे ओखतां सलीं तशींच भायऱ्याचीं ओखतां सलीं. खास करनी सातीवणाच्या सालीचो रस निराळे पोटा घेतलेवर दोनतीनदा हगवण लागोनी कोठो साफ हय. भुकही बरी लागे. हगवणीबरोबर रगत पडो लागलेवर लाजऱ्याचें पालेचो रस प्येवे देत. हगवण कमी हयवे लापशी, जायफळ उगाळनी तेत डाळींबाच्यो बिंयो धाडावनी, म्हवात कोलसावनी चाटण खायवे देत. हगवण कमी हयवेचां हे काळांतलां जालीम ओखत सला.

कातीचे रोग किंवा खरुज जालेवर सगळेत पयली भायऱ्याचां ओखद देत सले. खरुज जालेवर तुंबेचो रोस मिठात घोळवनी खरुज झालेले जागेवर लावीत. केसोळी लवकर फुटे हवी जालेवर तुंबेची केसरां वाटनी लोण्यात कालवनी तेचे मुखावर थेवनी कपडेन बांधनी थेवीत. दुसरे दिवसा केसोळी फुटोनी व्हांवो लागे. केसोळ्याचो घाव बरो हयवे तेंडल्याचीं पानां निखारेवर बाववनी घावेवर बांधनी थेवीत. दोन ते तीन दिवसानी जखम बरी हय. आंगाला खाज सुटली जालेवर अंगाला भस्म लावीत. रानात जातकच आंगाला किट्यो लागलेवर आंगाला भस्म किंवा हळदीचो पिठो लावीत.

गालगुंडा आयलेवर गालावर चुनो अणि गोड कोलवासवनी गालगुंडाचे जागेवर थापीत. तसांच भुंयचाफेची मुडली मुमरांत भाजनी तेचो बल्क गालगुंडाना लांयलेवर गालगुंडा कमी हत. सर्पींण जाली जालेवर सिताचवरीचीं पाळां वाटणी सर्पींण जालेले जागेवर लायतकच सर्पींण आठ दिसानी बरी हत सली.

घुंवळ आयलेवर तकल्यावर पाणी मारीत लिंबू सरबत प्येवे देवनी माणसाला निदव लावीत. अर्धे तासान घुवळ बरी हय.

दोळे तांबडे जालेवर, सुजले जालेवर डोळेत कुसरीच्या वेलीचां पाणी दोळेत घालीत. तेणीन दोळे बरे हत. दोळेत केर पडलेवर बाई माणसाचा दूध दोळेत घालीत. गुलाबाच्या पाकळ्यांचां पाणी दोळेत घालीत. दोळेतलो केर जावनी दोळे साफ हत. पाडावेलीचा पाणी तामणात थेवनी ता दोळेंच्या पापण्याना लावीत. पाडावेलीचीं पानां वाटनी तेच्यो पापुल्यो झाकलेले दोळेवर घालीत. चंदन उगाळनी दोळेंच्या पापण्यावर लावीत. अशातरान नाजूक असे

दोळे वर जाणटे जालीम उपाय करीत सले.

मुतखडेला पुनर्नवाचा पाणी हे एक ते वेळाचा बरेतला बरां ओखत सला. एरंडाचे पानाचो काडो, शेगलाचे पाळांचो काडो हे जालीम उपाय सले. तुळशीचो रस म्होवा बरोबर दिर्घकाळ घेतलेवर फायदो हत सलो. हे जाण्टेंना खबर सला.

कामीण जालेले माणसाला उसाचो रस प्येवे देत. जांबळीची साल उगाळनी तेचा चाटण देत. गेळ्याचे फळांचो रस निराळे पोटा प्येवे देत. उलटी हवनी पित्त बाहेर पडलेवर पंधरा दिवसानी गूण येत सलो.

कंबर, हात, पांय दुखो लागलेवर खोबरेल तेल वा तिळांचे तेलाचा मालीश करीत. लिंगडीचे पालेचो शेक कंबराला देत. असले ओखदानी आंगाची दूख कमी हसे हे जाण्टेंनी जाणलेला.

तकली दुखलेवर वेखणाची पूड वा तपकीर नाखात ओडे देत. शिको येवनी तकली दुखेची थांबे. उपरसाळीची मुळां झरवनी तेचो लेप कपाळाला लावीत. तशी मिर्यां वाटनी लेप कपाळाला लावीत. खोबरेल तेलांत कापूर मिसळावनी तेलाचा मालीश सबंद तकल्याला करीत. असले ओखदांनी तकली दुखेची थांबे. बारीक सारीक दुखणेवर जाण्टें उपाय करीत सले. तेच बरोबर मोठे दुखणेवर ही उपाय करीत सले.

हातपांय मोडलेवर बरो करेची कला जाण्टें कडां सली. हात पायेच्या संधीनी दुखणा सलेवर गोड चुनो अणि अंडेचो बल्क एकीकडां घोळवनी दुखणारे भागावर लावीत. दूख सय पर्यंत लायलेला लिपण सुटत नतलां. हात किंवा पांय मोडलेवर, येळंबाची साल, तीन पानांचे झाडाचो पालो, पाथरीवर फेण्यातथीन वाटणी तेत नासणेचां पीठ घालनी तां सगळां घोळवनी तेंचा लिपण मोडलेले भागावर थापीत. ते नंतर तेचेवर बरी तासलेली कोंडेची कामटा मांडीत. ती कपडेन घट्ट बांधीत. पंधरा दिवस पर्यंत त्यो कापट्यो तशोच थेवीत. हे लीपण दूख बरी हय पर्यंत सुटत नाय. हेचो अर्थ दूख बरी झाले नंतर लिपण सुटत सलां. अणि मोडलेलां हाड जोडलां जाय.

ते काळांत माणसासाठी जशीं ओखदां सलीं तशींच गोरवांसाठीही सली. गोरवांचो पांय मोडलेवर माणसासारखी गोरवांची शिरवीस करीत. मग गोरूं

चालो लागे.

ल्हान वासराना दुदगो हय. वासरांना जास्त प्रमाणात दूध खाल्ले मुळा दुदगो हत सलो. कुवलेचीं कुसां गोडांत कालवनी वासराना चाटे देत. अपचनासाठी आंबट ताकांत हींग घोळवनी बाटल्यातथीन वासराला पाजवीत. टायकिळेचो रस आठवडेतथीन एकदां घालीत. ल्हान भुरगेना किरायतां घालीत तसो वासरांना टायकीळो घालीत.

वासरांचे केंस गळो लागलेवर बुगडीचे पानांचो रस प्येवे देत. तसांच रस तेचे आंगाला लावीत. वासरांची लव जायवेची बंद हय.

झेंडू सारखी एक व्यादी गोरवांना हत सली. झेंडू म्हणजे गोरवांचे ताळेंत मोठां गुंडुक वाढ से. तां फोडणी उडयलेवर गोरुं रोकडां बरां हय. तां फोडेला घोडशीरेची कांटे सलेल्या घट्ट वेलीचो कुडको ताळेंत रिगवनी झेंडू फोडनी उडवीत. काठी ताळेत रिगवे ओठाळेचो उपयोग करेवो लागे. कवंडाळेचो रस, तशींच बेलफळां कुटावनी तेचो काडो बाटल्यान गोरवां पाजवेवो लागे. काडेची बाटली तोडांत रिगवे ओठाळेचो उपयोग करेवो लागे.

सपसडा म्हणजेच शेड्डुक नांवाची एक व्यादी गोरवांना हय. तेचां लक्षण म्हणजे गोरवां सुकोनी जात. शेपट्याचे केस झडत. शेपटी झुरत जात सली. हीं लक्षणां लक्षात आयलीं की दोळेचे कोपरेत वाढलेले पडदे कापनी उडवीत. मग तेचेवर कड्डेचे रसातथीन मिरी वाटनी जखमावर लावीत. हे रोगातथीन गोरवां निवळे पंदरा वीस दिवस लागत.

गोरवाना थंडी पण हत सली. मोर शेडेंची पाळां कुमयेचे पानानी बांदनी. मुंमरात घालतकच लुकलुकीत हत. तेचो अर्क गोरवांचे तोंडात घालीत. गोरवांचो कफ जावनी थंडी बरी हय.

गोरुं व्याले नंतर वार लवकर पडणेसाठी गोरवांना कोंडेची पालवी खायवे घालीत. सुखां भात सुद्धां खायवे देत. गोरवां व्येताना जास्त त्रास जालेवर लाजऱ्याचों पालो वाटनी तेंच्या सुत्याला लावीत. तेच बरोबर दोन ते तीन दिवस गोरवांना गोड घालनी मेथ्याची पेज खायवे देत.

थोडकेत सांगेचां म्हणजे माणसान आपली अणि गोरवांची दुखणी जाणलेलीन अणि आपले आरोग्याची तजवीत केलेलीन. दुखणेवर उपाय सोदनी

काडलेलेन. वेगवेगळे झाडांचो अभ्यास तेंचेय केलेलो. केंचे झाडा पाशणी केंचा दुखणा बरां हनार हे नक्की केलेलां. म्हणी जाण्टें निसर्गाची जपणूक करीत सले. हेचे वेल्या एक गजाल नक्की हसे की माणसाला संशोधन वृत्ती पयली पाशणी सली. तेना विज्ञान खबर सलां. आज विज्ञान विकसीत जालां से तां त्याच वत्ती मुळा. ओखदां विकसीत जालीं सत ती माणसाच्या संशोधनात्मक कार्यामुळा. फरक इतकोच की आजकाल ओखदाना भरपूर पयसो खर्च करेवो लागसे. जुने काळांत तीच ओखदां फुकट मिळत सली.

पृथ्वीवर प्राणी मात्राला जन्म मिळलोसे. तेच बरोबर तो संभाळणेची सोय निसर्गान केली से. म्हणी प्राणी मात्राचे जिवाची वाढ, सांगोपन अणि आरोग्य बऱ्या तरान संभाळणेसाठी आमी निसर्ग राखनी थेवेची गरज से.



19.

# सौवळां-औवळां

सौवळे-औवळेची चालरीत जुने काळा पाशणी चालत आयली से. सौवळां-औवळां हे जाण्टेंनी जाणलेला विज्ञान से. तां विज्ञान माणसाला पटवनी देवे जुने काळातले लोकांनी धर्म अणि जातीचो आधार घेतलेलो से. सौवळां हे शब्दाचो अर्थ स्वच्छ अणि औवळां म्हणजे अस्वच्छ. प्रत्येक काम आवरले नंतर हात पांय स्वच्छ धवप. दिवसातथीन दोनदा किंवा किमान एकदांतरी न्हावप, म्हणजेच सौवळां. प्रत्येकान आपली प्रत्येक वस्तू चादरी चिरकुटा, घर, परीसर स्वच्छ थेवप हें खरां सौवळां. न्हाण नाय, हातपांय धुंवप नाय, सदांच बुर्सा ऱ्हेवप, बुर्से वातावरणात ऱ्हेवप म्हणजेच औवळां. माणूस सुसंस्कारीत, शिक्षीत हवप म्हणजे सौवळां म्हणे हरकत नाय. जास्त से लोकांचे मनात सौवळां हे शब्दाचो एकच अर्थ खबर ससे. जो मुकटो नेसलो तो सौवळो. इतर कपडे घातलेलो तो औवळां. थोडकेत सांगेचां म्हणजे न्हावनी होळलेले स्वच्छ कपडे घालप हेच खरां सौवळां.

सौवळेला अणिकय खास असा महत्त्व से. कारण तेत विज्ञान से. स्वताची अणि भवतालचे परीसराची निगा राखनी सदांच निरोगी ऱ्हेवप हेतच परमानंद से. आजकाल एक म्हण सुद्धां से की, "cleanlyness is next lo godlyness" तसाच 'आरोग्यम् धनमसंपदाम:' असाही म्हटलेलां से. आरोग्य हेच माणसाचा खरां धन से. आरोग्य बरां राखणेसाठी प्रत्येकाला सौवळा पाळप गरजाचां से. देवाची पुजा करताना सौवळां (मुकटो) नेसनी पुजा करप इतकोच सौवळेचो अर्थ न लायता, सौवळेचो सर्वांग अर्थ, महत्त्व अणि तेची गरज जाणणेची

